जाग प्रकाशनाचें

नवी जाग गोंयकारांक म्हयनाळें

वर्स ४९ : आंक ७ : एप्रील २०२३

**● संस्थापक संपादपी :**
स. रवीन्द्र केळेकार
स. सुमंत केळेकार

**● वैचारीक दायज :**
स. माधवी सरदेसाय

**● संपादपी :**
आसावरी नायक

**● अतिथी संपादपी :**
सखाराम शेणवी बोरकार

**● पालवी संपादपी :**
कृपाली नायक, एडना वाझ

**● उजवाडावपी :**
जयवंत भा. सरदेसाय
२०१-बी, सालदॅल अपार्टमॅन्टस्
रुअ द साउदादिश, पाजीफोंड,
मडगांव - गोंय ४०३ ६०१.

**● छापपी :**
इंप्रेशन्स, बी-२, 'अक्षर आर्केड',
गोंधळी गल्ली, बेळगांव ५१० ००२

**● वेव्हाराचो नामो :**
जाग म्हयनाळें
बिल्डींग ३, प्लॅट ३, - SE-3
मॉडेल स्टेटस, दोनापावल-तालिगांव मार्ग,
गोंय विद्यापिठा लागसार,
ताळगांव-गोंय ४०३ ००४.
फोन: ७४४७२६८७२० । ९७६५१८७६०६

| | |
|---|---|
| वर्सुकी पटी | : ४००/- रु. |
| विद्यार्थ्यां खातीर (फकत वर्सुकी) | : २००/- रु. |
| तीन वर्सांची पटी | : १,०००/- रु. |
| वाचप-घरां खातीर वर्सुकी पटी | : ५००/- रु. |
| जिवीत भराची वांगडी-पटी | : ४,०००/- रु. |

**Jaag Bank Details:**
Accont No. 4004002100005165
Name : JAAG MONTHLY
Bank Name: Punjab National Bank
Branch : Panaji-Goa
IFSC Code: PUNB0292300

किरकोळ आंकाचें मोल : रु. ४०/-

हया अंकांत उक्तायिल्ले विचार त्या त्या बरोवप्यांचे आसात. संपादक मंडळ तांचेकडेन सहमत आसतच अशें ना.

युवा कथा विशेशांक

## मांडावळ...



मुखपृष्ठ चित्र : विनीता चेंदवणकर
भितल्लीं चित्रां : निशीत बोरकार

संपादकीय

## युवा लेखकांची लिखणी बरयती उरची!

मंगळूरचे कवी मेल्विन रॉड्रिग्स हांची साहित्य अकादेमीचेर कोंकणीचेर निमंत्रक म्हण निवड जाल्या. भोव खोशयेची गजाल ही. मेल्विनबाब हे व्यासंगी वाचक, इंग्लीश भाशा साहित्याचे जाणकार, अणभवी आनी साहित्याचे खास करून कवितेचे उपासक. निमंत्रकपद पयलेच खेपे गोंयाभायर गेलां आनी मेल्विन बाबा कडल्यान खूब अपेक्षा आसात.

हालींच गोंय विध्यापिठाच्या शणै गोंयबाब भाशा आनी साहित्य महाशालेच्या कोंकणी अध्ययन शाखेन आनी कोंकणी सरस्पत मंडळ हांच्या पालवान पयलें युवा कथा संमेलन आयोजीत केलें. फकत कथा ह्या विशयाक ओंपिल्ल्या ह्या संमेलनान युवा कोंकणी कथाकाराक एक व्यासपिठ मेळोवन दिलें ही खोशयेची गजाल. वट्ट तेवीस युवा कथाकारांनी हातूंत वांटो घेतिल्लो. ह्या संमेलनांत वांटो घेतिल्ल्या सगल्यांक म्हालगड्यां कडल्यान मार्गदर्शन मेळ्ळांच आसतलें. आतां खरी गरज आसा ती युवा कथाकारांनी सातत्यान कथा बरोवपाची.

ह्या संमेलनाच्या निमतान आयोजीत केल्ल्या कथा लेखन सर्तींतल्या जैतवंत कथाकारांच्यो कांय कथा आमी ह्या अंकात आसपावीत केल्यात. हो अंक 'युवा कथा विशेशांक' म्हण आमी युवा कथाकारांक ओंपला. कोंकणीची नवी पिळगी कथा कशी बरयता, कथेंत कसले नवे प्रवाह आपणायता हाची एक सुलूस वाचकांक येवंची आनी युवा पिळगेक बरोवपाक एक उर्बा मेळची ही इत्सा.

ह्या निमतान आमी डॉ. जयंती नायक हांचे कडल्यान 'आधुनीक कोंकणी कथा- विकास आनी फुडार' ह्या विशयाचेर लेख मागोवन घेतिल्लो. तो ह्या अंकांत आसपावीत केला.

१६ फेब्रुवारी २००८ वर्सा ९व्या युवा कोंकणी साहित्य संमेलनाचे अध्यक्षपद जागाच्यो आदल्यो संपादीका स. माधवीबायन भुशयिलें. तेन्ना जागाचो जानेवारी-फेब्रुवारी २००८ अंक तरणाट्या साहित्यिकांच्या साहित्यान नटिल्लो आनी तरणाट्यांक तो संमेलनांत भेट दिल्लो. तरणाट्या साहित्यिकांनी जाग वाचचो आनी जागाचे वांगडी जांवचे ही माधवीबायची इत्सा आसली. ही स्फूर्त घेवन हो अंक आमी युवा कथाकारांक ओंपला.

फ़ाटलो अंक आमी नागेशबाब करमली आनी नारायण मावजो हांचेर काडिल्लो. हो अंक वाचून फ़ा.जेजूइनो आल्मैदा हांकाय नागेशबाबांची एक याद सांगन दिसली. ताणी एक लेख बरोवन धाडलो म्हण तांचे उपकार.

ह्या अंकात आमचीं सदचीं सदरां आसातूच. युवा कथाकारांच्यो कथा वाचून वाचप्यांनीं आपलें मत लिखीत रुपांत जागाक धाडल्यार तें आमी छापतले. ते निमतान युवा कथाकारांक मार्गदर्शनय जातलें.

सगळ्या युवा कथाकारांचे आनी आमच्या सदच्या लेखकांचे उपकार.

***



# आधुनीक कोंकणी कथाः विकास आनी फुडार

**डॉ. जयंती नायक**

### कथाः उगम, व्याख्या आनी वैशिश्ट्यां

संवसारभरच्या ललीत साहित्याचे तीन मुखेल प्रकार मेळटात:- १. कथात्म साहित्य, २. काव्यात्म साहित्य आनी ३. नाट्यात्म साहित्य. ह्या तिनूय प्रकारामदीं कथात्म साहित्य हो चड म्हत्वाचो तसोच लोकप्रिय. हेर दोनय प्रकार ताचे बगर अपुर्ण आसात. काव्यामदींय एक कथानक वा कथा अदृश्य रुपान वावुरता, जी त्या काव्यकृतीचो कणो आसता, जाल्यार नाटक कथानकाचेरूच उबें जाता. म्हणजेच ललीत साहित्याच्या दर एके कृतींत कथा दृश्य-अदृश्य, विकसीत वा अविकसीत रुपान वावुरता. कथा ना तर ललीत कृती आंग घेवंक पावना.

कथेचो जल्म हो मनशाच्या सहजप्रवृत्तींतल्यान जाल्लो आसा. दुसऱ्याच्या जिवीतांतल्यो गजाली जाणून घेवप आनी ताका आपल्या जिवीतांतल्यो गजाली सांगप हो मनशाचो उपजत सबाव. ह्या ताच्या सबावांतल्यानच आदिम काळार सावन, म्हणजे जेन्ना मनशाक वाणी गवसली आनी तो उलोवंक लागलो तेन्नासावन ताणें आपले अणभव, आपल्या जिवीतांतल्यो गजाली एक-दुसऱ्याक सांगूंक सुरवात केली. ही गजाल वा खबर सांगतना तातूंत जेन्ना कल्पकतेचे घटक आयले, तेन्ना तिणें काणयेचें रुप घेतलें. सुरवेची ही काणी लोककाणी आशिल्ली. तिचेर भौसाची म्हणजे लोकांची मालकी आशिल्ली. तिचेर लोकमानसाचो प्रचंड प्रभाव आशिल्लो. तिचो आशय, तंत्र, विशय हे मुळाव्या रुपांत आशिल्ले. ही काणी मौखीक रुपांत एके पिळगे कडल्यान दुसरे पिळगे मेरेन प्रवाहीत जायत गेली आनी शेंकड्यांनी वर्सांच्या तिच्या प्रवासांत, मनीस जातीच्या मानसीक, बौद्धीक आनी तंत्रीक विकासा वांगडा तिणें आधुनीक काणयेचें रुप घेतलें, जिका कथा हें बिरुद फावो जालें. आज काणी म्हणजे लोककाणी (Folktale) आनी कथा म्हणजे (Fiction, Modern Story) अशें सर्वसामान्यपणान काणयेचें नामकरण जाल्लें मेळटा. कथेचें Fiction हें इंग्लीशींतलें नांव तिचेमदीं कल्पीत विश्वांतले घटक आसतात, म्हूण तिका मेळिल्लें आसा.

काणयेची लोकप्रियता ही संवसारभरची आनी कालातीत. काणी मागिर ती लोककाणी जावं वा आधुनीक काणी जावं, काणी आयकलो ना असो एकूय मनीस, सामाजीक पंगड, जात-धर्मीय पंथ मेळप कठीण. दर एकान जिवितांत केन्ना ना केन्ना, कसली ना कसली काणी वा कथा आयकल्ली आसताच. काणी सांगपी कथकाची वा निवेदकाची भाशा शैली, संवाद, कथानकाचें वैवीध्य, आशय, कथानकांतलीं पात्रां, वातावरण आदी घटकांक लागून कथा आयकुवप्याच्या मनाचेर प्रभाव घालता, ताचें मनोरंजन तर करताच तेच बरोबर ताच्या मनाचें प्रबोधनय करता.

आयच्या खिणाक कथा वा कथात्म साहित्य दोन मुखेल प्रकारांत विभागूंक मेळटाः १. कांदंबरी आनी २. कथा. कथेचें १. दिर्घकथा, २. लघुकथा आनी ३. लघुत्तम कथा (कथिका, जिका 'अलक' हें नवें शॉर्टफॉर्म नांव आयच्या अभ्यासकांनी दिल्लें आसा) अशे तीन प्रकार मेळटात.

आधुनीक कथात्म साहित्यांत कादंबरीचो जल्म पयलीं जालो अशे

संदर्भ मेळटात, उपरांत दीर्घकथा, मागीर लघुकथा आनी अलक सामको आयचो, खास करून सामाजीक माध्यमांचे सुविधांक लागून तयार जाल्लो प्रकार आसा. म्हाका स्वताक तो बॉन्साय दिसता. ह्या प्रकाराक लागून फुडाराक कथेची सकस वाड खुंट्टली अशें म्हजें मत.

कादंबरी ही विशयाचो आंवाठ, पात्रां, घडणुको, वर्णनां, परिणाम ह्या सगळ्या संदर्भान मोठो कथात्म प्रकार, जाल्यार लघुकथा ही कादंबरीचो एक अंश मानू येता असो, पूण तो स्वतंत्र साहित्य प्रकार. जिचो परिणामय स्वतंत्र आसता. शक्य तितलीं कमी पात्रां आनी कमी प्रसंगांतल्यान परिणामक रितीन सांगिल्ली ती गजाल वा खबर आसता.

देश-विदेशांतल्या विद्वानांनीं लघुकथेच्यो आप-आपले परीन व्याख्या मांडल्यात, पूण सगळ्यांनी कमीत कमी पात्रां आनी कमीत कमी पसंग आनी एकूच एक परिणाम ह्या तीन मुद्याचेर भर दिल्ली आसा. हे संबंदान ना. सी. फडके हांची व्याख्या हांगा देख म्हण दिवूं येताः कमीत कमी पात्रां आनी कमीत कमी प्रसंग वापरून थोड्या भितर परिणामकारक रितीन सांगिल्ली आनी आयकुवप्याच्या मनाचेर एकच एक ठसो उमटुवपी खबर म्हणल्यार लघुकथा.

एडगर एलन पो ह्या अमेरीकन लेखकान आनी लघुकथेच्या अभ्यासकान दिल्ली फुडली व्याख्याय कथेचें रुप स्पश्ट करताः

लघुकथा ही वाचकाच्या मनाचेर एकच एक संस्कार घडयता. तिच्या मुळ हेतूचे नदरेन गरज तितल्याच प्रसंगांची आंखणी करता, वा कथेच्या पात्र वातावरण आदी सगळेच घटक, तातुंतलो दरेक तपशील हो पुर्वनियोजीत संस्कारांक पोशक आसप गरजेचें आसता. हातुंतल्यान एकात्म, एकसंघ अशी परिणामकराक कथा सिद्द जाता.

हांगा एक गजाल मुजरत लक्षांत घेवंक जाय. लघुकथा म्हणल्यार पात्रांची वा घडणुकांची वेळेरी न्ही. तर पात्रां, घडणुको, आनी तांकां जुळून आयिल्ली एकाद्री खबर तिनूय एकरुप जावन जें नवें कथानक घडटा, जीच कथा आसता. हें कथानक जिवंत रुपान उबें जावप म्हत्वाचें आसता. लेखक आपल्या प्रतिभेच्या बळाचेर त्या कथारुपा वरवीं एक नवी प्रतिसृश्टी उबी करता. लघुकथेची विशेशताय म्हणल्यार ती आपल्या ल्हानश्याच मर्यादेंत जिवनभाश्य करपाक आनी जिवनदर्शन घडोपाक यशस्वी जाता.

कथनसिद्धता आनी कल्पकता हीं कथेचीं दोन मुखेल वैशिश्ट्यां. कथेमदीं सांगपा सारको वा निवेदन करपा सारको गूण आसप म्हत्वाचो. तशेंच कथाबिज आसलेंच म्हण जायना, ते कल्पकतेन फुलोवचें पडटा, तेन्नाच तें वाचकाच्या मनाचेर प्रभाव घालता. कथाबीज वा कथानक लेखकाक वास्तव जिणेंत सांपडलें, वा वास्तव आसलें तरी बरे कथेचे निर्मणेक तें कल्पकतेच्या अवगुंठणांत गुंठलावप अतिशय गरजेचे आसता. ना जाल्यार बेचव खबर जाता. एककेंद्रीयता हेंवूय कथेचें एक म्हत्वाचें वैशिश्ट्य. कथा ही केन्ना घटना प्रधान वा केन्ना पात्र प्रधान आसता, तिच्या एककेंद्रीयतेच्या गुणाक धरून ती केन्ना एकेच घटने भोंवतणी, तर केन्ना एकाच पात्रा भोंवतणी केंद्रीत जावन रावता.

कथानक, पात्रां, घटना, भाशा, संवाद, संघर्श, वातावरण, काळ हे भाशेचे कांय घटक. कथाकार हे घटक कथेंत जितले समर्थपणान उबारता तितली कथा पकदस्त आनी प्रभावी जाता. कथाकाराच्या आंगांतली प्रतिभाशक्त, ताचे अणभव, संवेदनशिलता, निरिक्षणक्षमता, भाशेवेलें प्रभूत्व, आगांतली सर्जकता विचारदृश्टी आनी प्रज्ञा ह्यो गजाली बरे कथचे निर्मणेक आदार करतात. प्रथमपुरूशी वा तृतीयपुरुशी निवेदन शैलींत कथाकार कथा उबी करता. मात सुज्ञ कथाकार कथा रचना करतना कथानकांत कितलोय तादाम्य जालो तरी तो पुर्ण अलिप्त रावन रचना करता. ताची ही अलिप्तताय कथेच्या यशाचें एक भोव म्हत्वाचें कारण थारता.

आधुनीक कथेचें आपलें एक तंत्र आसा, त्या तंत्राक धरून कथा रचप गरजेचें. आधुनीक कथा वर्तमानकाळांत जगता पूण तिचें कथानक हें भूतकाळांतलें आसता. भूतकाळांतल्या कथानकाक वर्तमानकाळाचे आयाम लावन लेखक कथा उबी करता. पूण ती केन्ना केन्ना वर्तमानाचेय वेध घेता, पूण ह्या वेधांची सत्यताय तो काळ उलगतच येता, तो मेरेन ते वेध काल्पनीक आसतात. फ्लॅशबॅक तंत्र हें आदले पिळगेच्या भोवतेक कथाकारांचें आवडटें तंत्र.

आद्य, मध्य आनी अंत ह्यो कथानकाच्यो तीन अवस्था. कथेच्या सुरवेक एक प्रश्न तयार जाता, मागीर हो प्रश्न एका उत्कर्श बिंदूचेर पावता आनी शेवटाक तो सुटावो जाता. प्रश्न सुटावो जाय मेरन वाचकाची उत्कंठा वाडोवप, उमळशीक वाडोवप हें तंत्र लेखकाक जमप गरजेचें. तशेंच शेवटाक एक तरेचो सुखद वा दुखद धक्को दिवपी शेवट बरे कथेचे देख आसा. कथेचो आशय सुस्पश्ट आसूंक जाय. आशयसंपन्न कथा वाचकाच्या मनांत बरोच काळ उरता. तशेंच कथेचो समर्पक माथाळोय कथेक उंचायेर व्हरता.

### आधुनीक कथेचो उदेव

आधुनीक कथेचो उदेव एकोणिसाव्या शतमानाचे सुरवेक जर्मनी, अमेरिका, फ्रान्स आनी रशिया या देशांत जालो. ते आदी म्हणजे अठराव्या शतमानच्या शेवटाक एक स्वतंत्र साहित्यप्रकार म्हणून कादंबरी जल्माक आयली. नॅथॅनिएल हॉर्थन, एडगर अलन पो (अमेरिका), अलेक्झेंडर पुश्किन, निकोलस गोगोल (रशिया), बाल्झक, प्रॉस्पेअर मेरिमे (फ्रान्स), ई.टी.डब्लू. हॉफमन (जर्मनी) ह्या सारक्या लेखकांनी कथालेखनाक सुरवात केली आनी स्वताचे स्वतंत्र कलासंकेत आनी कलातंत्र आशिल्लो साहित्य प्रकार म्हण कथा प्रकार नांवरुपाक आयलो. ह्याच सुमाराक साहित्य वेव्हारांत घडिल्ली एक म्हत्वाची घडणूक म्हणजे इंग्लंड-युरोपांत जाल्लो नेमाळ्यांचो जल्म. कथेसारको स्फूट साहित्य प्रकार नेमाळ्यां खातीर योग्य थारलो. कथेच्या विकासांत, तिचे लोकप्रियतेक आनी एक स्वंतत्र साहित्य प्रकार म्हण तिच्या अस्तित्व प्रस्थापीत जावंक नेमाळ्यांनी खूब मोटो वांटो उखल्लो. आजय देश-विदेशांत कथेच्या विकासांत नेमाळ्यांचे योगदान खूब मोटें आशिल्लें दिसता.

भारतीय कथेसंबंदान विचार केल्यार भारतांत कथा कथनाची आनी कथालेखनाची परंपरा खूब प्राचीन काळार उदेवाक आयली म्हणचें पडटलें. प्राचीन काळार पंचतंत्र, जातककथा, कथासरित्यसागर, वेताळपंचविशी, शुकबहात्तरी, महाभारत,

रामायण आदी कथांच्या संकलनाचे ग्रंथ संस्कृत आनी तत्कालीन वेव्हारांचे भाशेंत जल्माक आयिल्ले. लोककथा आनी आधुनीक कथा हांचे मदले अवस्थेंतल्यो, धार्मिक झालर आशिल्ल्यो ह्यो कथा, आधुनीक कथेच्या जल्माक पोशक वातावरण तयार करपाक कारण थारल्यो म्हणल्यार अतिताय जावंची ना. ह्यो कथा समाज प्रबोधन आनी निती शिक्षणाचें माध्यम मानताले. आधुनीक कथाय ह्या गुणांकडेन नातें जोडून आसा. भारतांतय आधुनीक कथेचो उदेव एकोणिसाव्या शतमानांत जालो. पयली आधुनीक भारतीय कथा पुर्णचंद्र चट्टोपाध्याय हांणी रचली आनी ती १८७० वर्सा प्रकाशीत जाली अशे संदर्भ मेळटात.

**कोंकणी कथेचो उदेव आनी विकास**

हेर जागतीक आनी भारतीय भाशांभशेन कोंकणी भाशेकय लोककाणयांची व्हड परंपरा आसा. ह्या काणयांचो जल्म उणेच पांच हजार वर्सां आदीं जावंक जाय अशे अभ्यासक तर्क काडटात. आधुनीक कोंकणी कथा मात विसाव्या शतमानाच्या मध्यार जल्माक आयली. विसाव्या शतमानच्या तिसऱ्या दसकांत शणै गोंयबाबान 'म्हजी बा खंय गेली?' ही कथा रचून आधुनीक कोंकणी कथेची बुन्याद घाली. हे कथेचेर लोककाणयेच्या तंत्राचो बरोच प्रभाव दिसता. ते उप्रांत शणै गोंयबाबान आनीकूय कांय कथा बरयल्यो, पूण खऱ्या अर्थान आधुनीक कोंकणी कथा चंद्रकांत केणी हांणी दिली, ते खातीर तांका आधुनीक कोंकणी कथेचे शिल्पकार म्हण वळखतात. गोंय मुक्तीउपरांतचें पयलें दसक कोंकणी कथेक पाळां-मुळां घट्ट करूंक खूब पुरक थारलें. ह्या काळार दामोदर मावजो, अ. ना. म्हांबरे, एन. शिवदास, पुंडलीक नायक, मिना काकोडकार, शिला नायक, जयमाला दणायत, उदय भेंब्रे, फेलिसियो कार्दोज अशा कितल्या तरी कथालेखकांनी आपल्या अणभवांच्यो कथा रचल्यो. ह्यो कथा मुखेलपणान मध्यमवर्गीय जीवन पितारपी आशिल्ल्यो. 'प्रसादाफूल' आनी 'स्वतंत्र गोंयची कोंकणी कथा' ह्या प्रातिनिधीक संग्रहांत कोंकणी कथेच्या सुरवेच्या प्रवासाचो दिश्टावो घडटा.

**कोंकणी कथेंतले प्रवाह**

कोंकणी कथेच्या आजवेरच्या प्रवासाचो अभ्यास केल्यार हे कथेंत दोन मोठे प्रवाह आयले जाका लागून ही कथा जागतीक पांवड्याचेर वाचकांची नदर वोडूंक पावली. हातुंतलो एक म्हणल्यार ग्रामीणता वा प्रादेशिकता आनी दुसरो स्त्रीवाद. ग्रामीण जिवनाचे कितले तरी पैलू, ग्रामीण बोलीसयत कोंकणी कथेंत पयले फावट आनी प्रभावी पणान हाडले ते एन. शिवदास आनी पुंडलीक नायक हांणी. सत्तरीच्या दसकांत तांचे हे कथेन वाचक समिक्षकांक भारावन उडयले. कोंकणी कथेची तांक कितली व्हड हाचो दिश्टावो हे कथेन घडयलो. ह्या दोन लेखकां उप्रांत ग्रामीण कथा भांडारांत भर घालपी आनी कोंकणी समाज आनी वाठाराचें जबरदस्त चित्रण करपी जायत्यो कथा ऐशींच्या दसकांतल्या ग्रामीण कथाकारांनी रचल्यो. ते मर्दी, जयंती नायक, वसंत सावंत, महाबळेश्वर सैल, देविदास कदम, रामनाथ गावडे आनी णव्वदीच्या दसकांत प्रकाश पर्येकार हांचो आस्पाव आसा. ह्या कथाकारांच्या कथांक लागून खरी कोंकणी कथा ही ग्रामीण कथा अशें समिकरण जालें. आनी तें सत्यूय आसा. आयजूय गोंयचो खूबसो भाग ग्रामीण जीण जगता. ग्रामीण जिणेचीं आजून खूबशीं तासां साहित्यांत येवपाची गरज आसा. ग्रामीण समाजाचे प्रस्न, तांची सूख-दुख्खां त्या-त्या समाजांतल्या लेखकांनीच मांडूंक जाय कारण तांच्या प्रश्नांची झळ तेच चड खरायेन जाणूंक शकतले. खरें गोंय गांवांनीच आसा, ते खातीर ग्रामीण कथा हीच खरी कोंकणी कथा जावन आसा.

संवसारीक मळाचेर एकोणिसाव्या शतकांत जाल्यार भारतांत विसाव्या शतकांत स्त्रीवाद पावलो. कोंकणी साहित्यांत तो गोंयमुक्ती उपरांत आयलो. चड करून ऐशींच्या दसकांत तो साहित्यांत मोट्या प्रमाणांत रुजलो. कोंकणी कविते बरोबर तो कथेंतय आयलो. हेमा नायक, जयंती नायक, नयना आडारकार हांणी स्त्रीवादी आनी स्त्री हक्काचेर उडवाड घालपी कथा रचल्यो. ह्या प्रवाहाक लागून कोंकणी कथा भारतीय साहित्य विश्वांत चर्चेक आयली. तिका वेग-वेगळ्या स्त्री अस्मितायें संबंदी वावर करपी व्यासपिठांचेर प्रतिनिधित्व मेळ्ळें.

**कोंकणी कथेची सद्यस्थिती आनी फुडार**

गोंय मुक्ती उपरांत सुमार चाळीस वर्सांच्या कालखंडांत कोंकणी कथा खूब चंवरली, फुली फळ्ळी, पत्रासां वयर ल्हान व्हड कथाकार ह्या काळांत आपल्यो आगळ्यो वेगळ्यो, आपल्या वाठाराची, समाजाचीं वैशिश्ट्यां सांगपी कथा घेवन आयले. कोंकणी कथा साहित्य अकादेमी पुरस्कार जोडूंक पावली. कोंकणी कथा इंग्लीशींत अणकार जावन संवसारभर पावली. हेर देशी भाशांनी अणकारीत जावन देशाच्या हेर भाशीक वाचकांचे तोखणायेक पात्र थारली. कोंकणी कथेन वाचक आनी समिक्षकांच्यो अपेक्षा वाडयल्यो. पूण आज जेन्ना कोंकणी कथेच्या प्रवाहाचो थाव घेता तेन्ना हो प्रवाह आतां मंदाविल्ल्याचें दिसता. एक निराशेचें वातावरण कथेच्या मळार तयार जाल्लें दिसता. कथाकारांची पोरणी पिळगी जाण्टी जायत चल्ल्या, पयलीं सारक्यो सट सट तांच्यो कथा वाचूंक मेळनात, तर नवी पिळगी कांय मेजक्योच कथा बरोवन, फक्त एक संग्रह छापून खंयचे खंय दडी मारून बसल्या. कथा न बरोवपा फाटलीं तांचीं कारणां पटपा सारकीं नात. मुळांत कथा हो प्रकार लेखना खातीर चड वेळ वा बैठकीची मागणी करपी न्ही. एक वा कदाचीत दोन बैठकींत तयार जावपा सारको हो प्रकार, ताच्या लेखनाक वेळ मेळना हें नवोदितांनी दिल्लें कारण पटना. मागीर म्हणचें पडटा, तांणी आतांमेरेन बरयिल्लें लिखाण हें तांच्या काळजाच्या खोलायेंतल्यान येवंक नाशिल्लें काय किते? काय कोणाच्या प्रभावांतल्यान आयिल्लें? म्हण तें आतां थांबलें? जिवीतांत आयिल्ली विरक्ती लेखकाक स्थित्यप्रज्ञ करता ही गजाल खरी. पूण ह्या लेखकांक ती आयिल्ली खंयच दिसना.

लेखनाच्या सातत्याक खास करून कथेच्या, जिणेचो चौआंगी अणभव गरजेचो आसता. लेखकाची संवेदनशिलता नित्य जागी आसची पडटा, दोळे उक्ते दवरून तार्णे जगाकडेन पळोवंचें पडटा, लेखनाक आपले जिणेचें प्राधान्य मानचें पडटा. लेखकान हें केलेंना, तो अल्पसमाधानी, आत्मसुखाय जालो की सोंपलो. जाची सर्जनशक्त जागी आसता, त्या

लेखकाकडल्यान वर्साक निदान पांच तरी कथा बरोवन जावंक जाय, अशें म्हाका म्हज्या उमेदवारीच्या काळार एका जेश्ठ लेखकान सांगिल्लें. जाची आज हांगा हांव 'री' ओडटा. कथा ही सामाजीक प्रबोधनाचें एक धारेचें हत्यार. लेखकाचे हातांत तें पावलां जाल्यार ताचो उपेग ताणें प्रामाणीकपणान करचो.

कोंकणी कथा म्हणली की सामाजीक विशयावेली कथा वा मोगाची कथा अशे दोनच प्रकार मुखेलपणान दिसतात. विज्ञान कथा, भंयकथा, गूढकथा, इतिहासीक कथा, मिथककथा हेवूय प्रकार कोंकणींत येवपाक जाय. कारण दर एका प्रकाराचें आपलें वैशिश्ट आनी प्रयोजन आसता. कोंकणी कथा सगळ्या आंगांनी फुलूंक जाय. बरो सातत्यशील कथाकार कोंकणींत जातलो जाल्यार निपक्षपाती समिक्षक कोंकणींत जाय. कोंकणी भाशेन सगळीं दालनां आपलीं गिरेस्त केलीं, पूण हें एक दालन आजूनय रितेंच आसा, कोंकणी साहित्यमळार समिक्षेच्या नांवान चडशें परिक्षण वा आस्वादनच जाता. आनी कोणय खरें समिक्षण करता तेन्ना ताका बाबड्यांक लेखकांच्या 'रुसव्या-फुगव्याक' तोंड दितना नाका पुरो जाता. कोंकणींत चड नेमाळीं नात, ताका लागून कथा बरयली जाल्यारूय छापपाक अडचण येता असो एक शीण नवे लेखक काडटात. हें अर्द सत्य. नेमाळीं चड नात हें जितलें खरें, तितलेंच त्या नेमाळ्यांक कथा मेळप कठीण जाता हेंवूय तितलेंच खरें.

तशें पळोवंक गेल्यार आज युवा लेखकांक म्हणजे एके नदरेन कथाकारांक लेखनाक उर्बा दिवपी गजाली कोंकणी साहित्य मळार घडटात. साहित्य अकादेमी फाटल्या सुमार धायेक वर्सांसावन युवा साहित्य पुरस्कार दिता. ह्या पुरस्कारांतले तीनचार पुरस्कार कथासंग्रहाक मेळ्ळ्यात. गोवा कोंकणी अकादेमी फाटल्या २२ वर्सांसावन युवा साहित्य संमेलन घडोवन हाडटा, जातूंत कथेचेर खाशेलें कृतीसत्र आसता. ह्या संमेलनांत युवा साहित्य पुरस्कारय दितात, जातूंत कथाकार अग्रेसर आसात. आनी ओंदूं २०२३ वर्सासावन गोंय विद्यापिठाच्या शणै गोंयबाब भाशा आनी साहित्य महाशालेचें वतीन पयलें कथा संमेलन आयोजीत जाता. हो उपक्रम हे फुडें चालूं उरतलो अशी अपेक्षा आसा. शिवाय गोवा कोंकणी अकादेमी दर वर्सा युवा साहित्य संमेलनाचो एक भाग म्हण युवा लेखकाचें पयलें पुस्तक उजवाडाक हाडटा. जातूंत जोफा गोन्साल्वीस, नरेश नायक, स्मिता प्रभू चोडणेकार, विल्मा बंटवाल, गोरक शिरसाट आदी युवा कथाकारांचे कथासंग्रह उडवाडाक आयल्यात. जोफा गोन्साल्वीस आनी नरेश नायकाच्या संग्रहाक केंद्रीय साहित्य अकादेमीचो युवा साहित्य पुरस्कारूय फावो जाला.

सरकारी, विद्यापिठीय आनी निमसरकारी पांवड्याचेर कोंकणी कथेक प्रोत्साहन दिवपाचें कार्य चलत आसा, जागृत जावंक जाय ती युवा लेखकाची लेखणी. न्हिदिल्ल्यांक कोणूय उठोवंक शकता, जागो आसून न्हिदे सवंग करतल्याक कोणाच्यान उठोवंक जायना. आमचे युवा लेखक एक पुस्तक आनी एक पुरस्कार घेवन समाधान मानतले काय कथा लेखन हेच आपल्या जिवीताचें सर्वस्व मानतले, हें तांणीच थारोवंचें पडटलें!

संपर्क: 9823575623

***



# एक पावल, कोंकणी कथेच्या जैता दिकेन...

गोविंद मोपकार

मनशाच्या आशिकुशीक जीं घडितां घडटात ती कथा. ह्या घडितांचो अणभव घेता घेता मनीस नकळत आपली जिवीत कथा रचता. ताच्या सहवासांत आयिल्ल्या पात्रांचो तो पारदर्शी अभ्यास करता आनी आपल्या जिवीत कथेंत जाय तींच पात्रां दवरता. म्हणटकच आमचें जिवीतूच एक कथा. आमी ते कथेचें कथाकार. पूण जिणेंतली कथा प्रत्यक्षांत कागदार हाडपाचें कसब मात थोड्याच जाणां मदीं आसता.

आधुनीक कोंकणी कथेची बुन्याद शणै गोंयबाबान घाली हें आमकां खबर आसा. पूण कोंकणी कथेक खऱ्या अर्थान फुलार आयलो तो गोंय मुक्ती उपरांत. मुक्ती उपरांतच्या दोन-तीन दसकांनी कोंकणी कथेक सशक्त करपाचें काम आमच्या म्हालगड्या लेखकांनी केलें. ही परंपरा २१व्या शेंकड्याच्या दुसऱ्या दशकांत कथाकारांनी मुखार व्हेल्या. आतां नव्या पिळगेन कोंकणी कथेचे पालखेक खांद मारपाचो वेळ आयला ही वस्तुस्थिती.

कोंकणी साहित्याच्या आनी खास करून कोंकणी कथेच्या दालनांत युवा कथाकारांची पावलां रुजची, कथाकार म्हूण घडटाना तांचेर योग्य ते संस्कार जावंचे आनी कोंकणी कथेच्या पदरांत नव्या धाटणीच्यो, नव्या विचारशक्तीच्यो, मिश्कील शैलीच्यो कथा मेळच्यो ह्या जोड हावेसान गोंय विद्यापिठाच्या शणै गोंयबाब भाशा आनी साहित्य महाशालेच्या कोंकणी अध्ययन शाखेन आनी कोंकणी सरस्पत मंडळान पयलें युवा कोंकणी कथा संमेलन गोंय विद्यापिठांत घडोवन हाडलें. ह्या कथा संमेलनाक एकूण २३ कथाकारांनी आपल्यो कथा धाडिल्ल्यो.

२७ आनी २८ फेब्रुवारी २०२३ अश्या दोन दिसांच्या ह्या कथा संमेलनाक ज्ञानपीठ पुरस्कार जैतिवंत लेखक भौ. दामोदर मावजो उद्घाटक आनी मुखेल सोयरे म्हूण हाजीर आशिल्ले. नामनेचे कोंकणी कथाकार भौ. अजय बुवा संमेलनाचे अध्यक्ष ह्या नात्यान उपस्थीत आशिल्ले. उक्तावण सुवाळ्याक कार्यावळीचे अध्यक्ष गोंय विद्यापिठाचे कुलगुरू सिनियर प्रो. हरिलाल मेनन, खास आमंत्रीत शणै गोंयबाब भाशा आनी साहित्य महाशालेचे अधिश्ठाते प्रो. के. श्रीपाद भट, कोंकणी अध्ययन शाखेचे संचालक तशेंच कथा संमेलनाचे येवकाराध्यक्ष डॉ. हनुमंत चोपडेकार, संमेलनाचे कार्याध्यक्ष प्रा. नरेश नायक आनी, कोंकणी सरस्पत मंडळाचे अध्यक्ष आनी जोड कार्याध्यक्ष गोविंद मोपकार हाजीर आशिल्ले.

जेश्ठ साहित्यीक आनी लोकवेद संशोधक डॉ. जयंती नायक हांणी संमेलनाक मूळ स्वर उलोवप केलें. कथा संमेलनांत वेगवेगळ्या सत्रांची आंखणी केल्ली. पयलें सत्र युवा साहित्य पुरस्कार प्राप्त लेखकां कडेन संवाद अशें आशिल्लें, जातूंत प्रा. जोफा फेर्नांडीस, प्रा. नरेश नायक आनी प्रा. हेमंत अय्या हांची मुलाखत गोरक शिरसाट आनी कृपाली नायक हांणी घेतली. डॉ. हनुमंत चोपडेकार हांचे अध्यक्षतेखाला वेंचीक कथा वाचन ह्या दुसऱ्या सत्रांत वेंचीक युवा कथाकारांक आपल्यो कथा वाचपाची संद मेळ्ळी. संमेलनाचें आनीक एक आकर्शक सत्र म्हणल्यार कोंकणी कथेचेर आदारीत फिल्म आनी लघुपट प्रदर्शन. संमेलनाच्या निमण्या सत्रांत कथा लेखनावेली कार्यशाळा डॉ. प्रकाश पर्येकार आनी भौ. रामनाथ गावडे हांच्या मार्गदर्शना खाला जाली.

कथा संमेलनाच्या समारोप आनी इनामां वांटप सुवाळ्याक मुखेल सोयरे म्हूण कोंकणी साहित्यीक आनी संगीत तज्ञ भौ. पुर्णानंद च्यारी हाजीर आशिल्ले. तेंच बरोबर संमेलनाध्यक्ष भौ. अजय बुवा उपस्थीत आशिल्ले. पयल्या युवा कथा संमेलनाच्या निमतान आयोजीत केल्ले कथा लेखन सर्तीत पयलें इनाम- बाळकृष्ण चोपडेकार, दुसरें- रेशा च्यारी, तिसरें- गौरांग भांडीये हांणी जाल्यार मानसी धाऊस्कार, गौरी भालचंद्र आनी दिव्या गोवेकार हांणी उमेद वाडोवपी इनामां मेळयलीं.

कोंकणी कथेच्या मळार योगदान दिवपी युवा कथाकारांचें प्रतिभेचो साक्षात्कार घडोवपाक पात्र आशिल्लें हें संमेलन निश्चीतपणान मुखार नेट घेतलें आनी कोंकणी साहित्याक नवे कथाकार मेळोवन दितलें हातूंत दुबाव ना. हे खातीर कोंकणी अध्ययन शाखा आनी कोंकणी सरस्पत मंडळ वर्सुकी संमेलना भायरूय नवोदीत युवा कथाकारां खातीर मार्गदर्शन सत्रांचें आनी कथा लेखन कार्यशाळांचें आयोजन करपाचो आसा. ते भायर हें संमेलन गोंया भायल्या कोंकणी भावंडां मेरेनूय पावोपाचो हावेस आसा. ह्या निस्वार्थ कार्यांतल्यान सुपीक फळां फळपाची आमी आस्त बाळगितात.

कोंकणी अध्ययन शाखेच्या आनी कोंकणी सरस्पत मंडळच्या ह्या वावरांतल्यान कोंकणी कथेंत नव्या प्रयोगांची आनी प्रवाहांची धार येवंची अशीं आमची इत्सा. आयजवेर आमच्या म्हालगड्यांच्या योगदानाच्या भांडवलाचेर आमी जैतगितां गायल्यांत. आतां तांच्या मार्गदर्शनांतल्यान आनी प्रेरणेंतल्यान आमचे युवा पिळगेनूय कोंकणी साहित्य जैतिवंत करपाक भोव कश्ट घेवंचे ह्या प्रामाणीक इत्सेंतल्यान ह्या पयल्या युवा कोंकणी कथा संमेलनाचें आयोजन केल्लें. तें दर वर्सा जावंदी, कोंकणीक नवे कथाकार मेळूं दी म्हूण हें एक पावल, कोंकणी कथेच्या जैता दिकेन...

संपर्क: 8550909847

***





# घुस्मटमार

बाळकृष्ण आनंद चोपडेकार

तिचे दोळे तांबडेच जाल्ले. दोळ्यांत झेम आसली पूण रातभर ती न्हिदूंक नासली. तिका न्हीद नाशिल्ल्यान तकली जड जाल्ली वा साबार चिंतनांनी सांगू नजो. घरच्या आंगणांत सोप्यार बसून ती घरा फुडल्या दोट्ट्या मार्गाक पळयताली. जातूंतलो एक रस्तो तिच्या घराकडेन पाविल्लो. त्या रस्त्यांवेल्यान तिचो घोव आयिल्लो. पूण त्या दोट्ट्या मार्गाक पळयतां-पळयतां तिचे दोळे त्या मार्गार आसले पूण मन दुसऱ्या चिंतनांनी घुस्पल्लें जाका लागून घोव केन्ना आयलो तिका कळूंकच ना. घरच्या हुमऱ्यार आपटून जेन्ना तिचो घोव सोप्यार लवंडलो तेन्ना ती सादूर जाली. ज्या चिंतनांनी ती घुसपल्ली त्या चिंतनांच्यो जापो प्रस्नांतल्यान मेळटल्यो ही आस तिच्या तोंडार दिसताली. सोप्या वयल्यान उठून हुमऱ्यार उबी रावून तिणें कपलार आटयो घेवन आंतोनियोक विचारलें..

"कितें जालें आंतोन??"

"कितेंय तोरी सांग."

"आमचें बाय???"

आंतोन कांयच उलयना. मसुंडेंतली सारी उदकान सोडून आयिल्ले वरी दुखेस्त आनी अपेसाची खोल भावना व्यक्त करपी आपलीं भुजां आनी मान बागोवन तो भितर वता.

ताची बायल एनास्तासिया हुमऱ्यार लवंडून चिंतनांनी स्वताक घुस्पावन दुकां गळयता आसतना मार्था आण्टी थंय पावता.

मार्था आण्टी ही एनास्तासियाची शेजात्र. वर्सांनी जाण्टी आसून सुद्धा आंगान घटमूट आशिल्ल्यान सगळेच गांवचे तशेंच वाड्या वयले लोक जांव बायलो जांव दादले वा ल्हान भुरग्यां सगळींच तिका मार्था आण्टी ह्याच नांवान पाचारतात. तिच्या घोवाक आनी चल्याक १५ वर्सां फाटी एका अपघातांत मरण आयिल्लें तेन्नाच्यान तिणें स्वताचें काळीज निबर केल्लें जी निबरसाण तिच्या उलोवण्यांतल्यान चांटे-पावलाक होलमताली.

एनास्तासियाच्या दोळ्यांत दुकां पळोवन मार्था आण्टी म्हणटा "एना... कितें खोबोर गोमल्या गो बाय फ्रिडाची??"

एना दोळ्यांतली दुकां पुशीत जाप दिता, "ना मार्था आण्टी... काल ह्याच वोगतार दोतोर्नीक गेलोलें तें आजून मेरेन येवोंक ना."

"खूंय गेलें, कितें जालें कांयच खोबोर ना आण्टी. आंतोन सोगल्याक चोयन येयलो. कितें कोरचें कांयच गोमना."

मार्था आण्टी सांगता.. "आगो आमगेलें फ्रिडा बाय तें. ताणें एक इश्ट वा इश्टीण तोरी केल्या?? जाच्या बोराबोर तें खूंय तोरी वोतलें म्हूण चिंतपाक??"

तेन्ना एना म्हणटा.. "तें आमगेले फ्रिडा. त्या खातीरूच चोड भोंय दिसोता मार्था आण्टी. तेचो सोबावूच तेसो."

फ्रिडा हें शांत सभावाची १६ वर्सांचे चली. वर्सांनी ल्हान खरें पूण दिसपाक सोबीत सुंदर हांसकुरी परी. आवय-बापूय गरीब खरो पूण माये मोगाचो शिंवर ताचेर करताले. घरांत कमीपण खूब आशिल्लें पूण आवय-बापायक केन्नाच ताणें दाखोवन दिल्लें ना. समजीकाय जी दुख्खी मनशाक लेगीत करताली सुखी. जिच्या ताळ्याक जेवतना कांटो लागल्यार आवयच्या हातांत उदका पेलो आनी बापायच्या हातांत शिताची सुकी उणी, इतले ओपुरबायेची आशिल्ली एना आनी आंतोनाची चली.

एक वर भर सगळें वातावरण किण्ण उरता. ना शेवण्यांचें चिंवचिंवप ना गोरवांचे हांबेवप. ना आवाज भुरग्यां-बाळांचो ना वाऱ्यान झेलतल्या झाडांचो.

एना सोप्याक फाट तेंकोवन कपलार हात दवरून हुमऱ्यार बशिल्ली आसता. घोव मेल्या उपरांत जशे एके विधवेचे हाल जाता तशेच एनाचेय जाल्ले आसता. मार्था आण्टीच्यान तिचे हाल पळोवंक जायना म्हूण ती आपल्या निबर आवाजांत म्हणटा,

"आगो तुकां म्हयन्याचें राशोन नाका? आयज निमणो दीस. चोल बेगीन भायर सोरया आमी."

एना हुमऱ्यार बशिल्लें उठ्ठा. रात्रींत वचून कालचे रातीक केल्ली पेज गरम करूंक दवरता. आपलें तोंड धुवन ओलो हात केसांचेर ओडून, तोंड पुसून, पेज गुळमांत ओत्ता आनी पेजे गुळाम आंतोना मुखार दवरून ती पयशे लेंसाक गुठलावन राशन हाडपाक भायर सरता.

वाटेर वता आसतना तिका वाड्या वयले रशिका मेळटा. रशिकाचें चेडूं संपदा आनी फ्रिडा एकाच वर्गांत शिकतालीं. रशिकाचें काळीज मोव आशिल्ल्यान तिका रोखडीच कोणाचीय काकुळट दिसताली.

मार्था आण्टी रशिकाक हडकिता पूण तिका जाप दिनासतना रशिका एनाक विचारता,

"आगो एना! तुजें चेडूं मेळ्ळे गो?"

एना कांयच उलयना,

"ना मुगो... ताजेर कोसलें म्हूण ओरिश्ट आयलां देवाक खोबोर पूण जेजूच त्या पोराचें रोक्षोण कोरतेलो." मार्था आण्टी जाप दिता.

काल आमगेर आंतोन संपदा कडेन फ्रिडा बद्दल चवकशी करपाक आयिल्लो. उदक पियेवन वच म्हळ्यार एकच घोंट मारलो आनी तसोच भायर सरलो. रशिका म्हणटा.

इतल्यान ती सोसायटींत राशनाक पावता. बायलांची लांब लायन आसता. राशन कार्डाचेर सय आनी राशन रिसीप घेवन तीं तिगांय लायनेंत रावता. तेन्नाच तांचे फुडें आशिल्ल्या बायलांच्या पंगडांतल्यान अशें उलोवप आयकूंक येवंक लागता,

"आगो तुमकां खबर आसा? एनास्तासियाचें चेडूं पोवलें खूंय..."

"कोणाले वांगडा पोवलें देवाक खोबोर.. तरणे रगोत नुगे...??"

"पूण तें शांत सभावाचें चेडूं मुगे...?"

"शांत म्हजे कपल..."

"आवय-बापूय गरीब, बापूय कोणागेरूय गंवड्याचें काम करून पयशे जोडटा... लांकडां फोडून, माड मारून वांशे करप, झाडां वयले आंबे देंवोवप... बाबड्याचे हाल जाताले."

"पूण हें आतांच्या तरण्या रगताच्या चेडवाक कळपाक जाय नू...? मना सारकें कांय मेळना म्हूण धांवलें आसतलें कोणाच्याय वांगडा खाज भागोवपाक..."

एक बायल हेरांक सादूर करता, "आगे! वोगी रावात एनास्तासिया फाटल्यानूच आसा."

एना भितरले भितर धुस्मटून रडत दुकां व्हांवोवंक लागता.

"चेडयांक सोगल्योच चेडयो दिसोता... तांचे बोद्दोल चिंतोप कोरूं नाका. एका कानांतुल्यान आयकोपाचें आनी दुसऱ्यांतुल्यान सोडपाचें... गोमले???" मार्था आण्टी सगळ्यांक आयकूंक येवचें अशा मोठ्या आवाजांत म्हणटा.

मार्था आण्टी, रशिका आनी एनास्तासिया राशन घेवन परत घरचे वाटेक लागता.

"एना तूं एक काम कर, आमच्या गांवच्या वासुदेव भटाक मेळ. तो तुका फ्रिडा खंय आसा आनी केन्ना येतले तें सगळें सांगतलों. आमचें एक गुबगुबीत माजर शेणिल्लें आनी संपदान रडून रडून आकांत केल्लो. सारकें जेव बी नासलें. तेन्ना गोपिले बायलेन म्हाका भटाक मेळपाक सांगलें. तें माजर गांवा भायर पावलां आनी दोन दिसांनी तें घरा येतलें अशें त्या भटान सांगलें. ताणें पांचशे रुपया घेतले खरे पूण सगळें खरेंच सांगलें. आनी खऱ्यांनीच आमचें माजर दोन दिसांनी घरा आयलें." रशिका एनास्तासियाक म्हणटा.

रशिकाचें उलोवप आयकून मार्था आण्टीच्या कपलार आटयो उदेल्यो. तें पळोवन रशिका तिका म्हणटा, "कितें जालें मार्था आण्टी?"

"तुमगेलें माजोर कोसल्या कोराचें आसलोले?" मार्था आण्टी रशिकाक प्रस्न करता.

"कपल आनी शेंपडी धव्या आनी उरिल्लें पुराय आंग मातयेच्या रंगाचे."

"आगो तें माजोर गांवा भायर न्होय आमगेरूच आसलोलें. दोन म्होयन्यां फाटलीं गोजाल, हांव नुस्तें उजरोयता आसतोना त्या माजराक बांगड्या बोडकां घातलोलीं. त्या दिसा तें आमगेरूच रावलें. दुसऱ्या दिसा हांव कामीला चेड्या काजराक गेलोलें. येवन ताका जेवोण घालपाक विसोरलें आनी सोकाळीं उठून चोयत जाल्यार तें नासलोले." मार्था आण्टी कपलार हात मारीत म्हणटा.

"तूं वोच आनी पाद्री बोस्त्यांवाक म्योव. तो तुका कितेंय तोरी सांगतेलो." - मार्था आण्टी एनास्तासियाक म्हणटा.

पाद्री बोस्त्यांव हो सगळ्यांक पावतालो. कांय वर्सां फाटीं जेन्ना फ्रिडाक भयंकर जोर आयिल्लो जो दोतोराच्या वखदांनी सुद्धा कमी जायनासलो तेन्ना ह्याच पाद्रिच्या आंगवोणेंतल्यान ताचो जोर कमी जाल्लो.

एना घरा पावता. येवन पळयत जाल्यार आंतोन घरा आसना. दनपारच्या वेळार फ्रिडाक सोदूंक गेला आसतलो अशें समजून ती शेंदरी घालता आनी सुजिल्ल्या दोळ्यांचेर हात दवरून फाट तेंकयता, थंयच तिचो दोळो लागता. राती कडेन सवाय आठ वरांचेर तिका जाग येता.

"हांव आयज आमच्या शेजारच्या गांवांत एका घोरांत लांकडां फोडपाक गेलेलों... ज्या दादल्यान म्हाका आपोयल्लो ताचो चेडो हालींच पुलीशेंत भोरती जाला खूंय. आयज तो नासलो. फाल्या तांगेर ठरलोलीं लांकडां फोडपाक वोचपाचो आसां. तेन्ना ताच्या पांयांक धोरून मोदोत मागोतां" - आंतोन एनाक उठयत म्हणटा.

हें आयकून एनाच्या मनाक मातशी थाकाय मेळटा.

फाल्यां फ्रिडा बद्दल कितेंय तरी कळटलें हे आशेन ती दुसऱ्या दिसाची वाट पळयता.

उकडे तांदूळ काडून चुलीर पेजेक दवरता. मागीर कांय वेळान चेपणाक घातिल्लें तोर काडून तीं दोगांय पेज जेवतात आनी आपल्या चेडवाची खबर मेळटली पूण कितें मेळटली हाचेर विचार करून दोगांय अर्दकुटी न्हीद न्हिदता.

सकाळीं उठून एनास्तासिया खुटी च्याव करूंक दवरता आनी उकड्या तांदळांची भाकरी करपा खातीर रगड्यार वांटपाक वता. रगड्या कुशीक आशिल्ले टाकयेंतल्यान एक गुळम भर उदक काडटा आनी ती तें रगड्या फातरीर ओत्ता. मागीर गुळमांत उदक घेवन तातूंत उकडें तांदूळ भिजत दवरता. मागीर पुराय रगडो वयले वयर धुता. फातरींत उरिल्लें उदक ती कट्टी घेवन काडटा. उपरांत भिजत दवरिल्ले तांदूळ रगड्यांत रकोवन वाटपाक सुरू करता.

उकडे तांदूळ हें तिजे तकलेंतले विचार कशें जे ती रगड्यांत घालून रगड्टाली.

उजव्या हातांत फातर धुंवडावप आनी दाव्या हातात वयर येवपी वांटप भितर घालप हें चालूच आसलें. आता तिचें विचारूच रगड्याचेर एक एक तांदूळ कशें वांटत चल्ल्यात अशें तिका दिसपाक लागता.

"म्हजें बाय फ्रिडा खंय आसतलें?? पाद्री कितें सांगतलो काय? तें कोणागेर गेलें आसतलें वा कोणें ताका फोंसोन व्हेलें काय?" काळजाक चिरून उडोवपी अशल्या विचारांचेर विचार करतां-करतां तिचो दावो हात रगड्याच्या फातरा मदीं येवन तिची बोटां चिड्डीता. तिच्या हातांतल्यान रगत येवपाक लागता म्हूण वांटप थंयच सोडटा आनी धुल्ल्या वाणशिऱ्याक घट्ट धरून आपलें रगत ताकाच आटोवपाचो यत्न करता.

आंतोनीक वेळ जातालो म्हूण तो तसोच खुटी च्या पियेवन घरांतल्यान फ्रिडा आशेन भायर सरता. एनाय च्यायेचो एक घोंट मारून पाद्री बोस्त्यांवाक मेळपाक भायर सरता.

एना इगर्जेंत वचून पयली जेजूक दिमी घालून पांयां पडटा. उपरांत आपल्या काळजांतल्यो सगळ्यो भावना पाद्रीक सांगता.

"ह्या सोडवोण्डाराचेर विस्वास दोवोर. तुका तुजें चेडूं म्योवतोलें... भियों नाका."

तिचें तकलेर हात दवरून पाद्री तिका समजायता आनी वचपाक सांगता.

एना फ्रिडाच्या विचारांनी आनी घरांतल्या कामांनी वेळ सारता. आंतोनूय सांजचो घरा येता.

"त्या पुलीस बाबान चोवकोशी कोरता आनी कितेंय गोमतांच म्हाका कोळोयता ओशें सांगला." -आंतोन येताच एनाच्या कानार गजाल घालता.

पूण तांचो तिसरोय दीस फ्रिडा शिवाय ताची कायंच खबर नासतना व्यर्थ वता.

चवथ्या दिसा सदचे वरी आंतोन आपल्या कामाक वता. एना पाद्री कडेन वचून आपले चलयेची भीक मागता.

"म्होजेंच घोर म्हाका खावोंक येता. दोळे धांपल्यार व्होडलें जाळ आनी त्या जाळाक म्होजें बाय फ्रिडा घुस्पोल्लें दिसोता. कितें कोरचें कायंच कोळोना" - अशें म्हणीत ती भितरले भितर धुस्मटून हुंडक्या-हुडक्यांनी रडपाक लागता.

पाद्रीच्यान तें पळोवंक जायना. तो म्हणटा, "फाल्यां गुड फ्रायडे एक पोवित्र दीस. उपास कोरून सांगणे कोर, हांवूय कोरतां. देवाची खोशी आसल्यार तुज्या चेडवाची कितेंय म्हूण खोबोर मेळटोली." -पाद्री एनाक

*(पान १० चेर)*



# गांवचीं तरंगां



**रेशा नरेश च्यारी**

सुर्य इल्लो-इल्लो दोंगराआड वता तसो तसो काळोख पातळूंक लागिल्लो. गावांतली गोरवां-म्हसरांय आप-आपल्या गोठ्याच्या वाटेन पावलां मारतालीं. देवकीआईच्या मनांत मात विचारांचें तांडव चलिल्ल्यान तिची नदर खंय तरी पयस थिरावल्ली. आयज शुक्रार. अकस्मात देवळाकडेन लावडस्पीकर चालू जालो आनी अभंगाचे सूर गांवभर फांकले तशी देवकीआई भानार आयली. तिणें बशिल्लेकडच्यानूच देवीक हात जोडले आनी 'देवी, तूंच हांका बरी बुदद दी गे' अशें म्हणून ती पायां पडली. तिणे आपल्या आशिकुशीक पळयलें. कोण्याचीं बरीच बेळां थंय पडिल्लीं. काळोख जालो आनी दिवो लावपाचो आसा म्हूण ती मोठया कश्टान जमनीक हात तेकयत उठली आनी आपणें वळिल्लें सूप घेवन भितर गेली.

दोंगरार लाकडांक गेल्लो सदानंद आनी ताचो पूत बाबगो अजून घरा परतूंक नासलें. देवकीआईन देवाक दिवो लायलो आनी हे दोगूय अजून कित्याक येवंक नां काय असो विचार करतांच घराचेवाटेन आपआपल्या माथ्यार दोगूय एक-एक लाकडाचे भोरे घेवन येता ते नदरेक पडले. भोरे हाडून तांणी घरां मुखार उजव्यान उडयले आनी ते थंयच थपकल मारून बसले.

"आई इल्लें उदक हाड गे!"

देवकीआईन तांका पेलो भर उदक हाडून दिलें आनी ती च्या करपाक गेली. चूलीर दनपरां पिवपाचें उदक तापयिल्लें तपलें आशिल्लें तें तिणे सकयल देवयलें आनी च्याचो तोप चूलीर चडयलो.

च्या पितां-पितां देवकीआईन सरळ विशयाक हात घालचो तशी उलोवंक सुरवात केली.

"जाग्याचे तपासणे खातीर दोग-तीग मनीस आयिल्ले. तांचेबरोबर गांवकारूय आयिल्ले."

"खंय? येवन गेले?" सदानंदान अजापान विचारलें.

"दादो, दिस्तूच आमी ना जाले मरे." बाबग्याक सामकी तिडक मारली.

"आई, कितें म्हण्टाले ते आनीक?"

ते आनी कितें म्हण्टले पूता? ते तांचेच टूणटूणें वाजयतात. कांय दिसांनी बदलीचें काम सुरू करचें पडटले अशें म्हण्टाले.

"ह्या जाग्यावयल्यान कोण हालतलो तर? आमी हो जागो सोडून खंयच वयची नात. आई, हांव आनी दादो घरा नाशिल्ले पूण यशवंतकाका, शांतोकाका, एकांतकाकाय बी नाशिल्ले घरा?"

"ना रे पुता. आयज दिस्तूच सगळ्यांक कामां येवजलीं. हेंकाय म्हणून आयजूय बरो म्हर्त मेळ्ळो हांगा येवपाक."

"हांव घरा आशिल्लों जाल्यार सांगता आसलो तांका कितें तें." बाबग्याक सामकीच तिडक मारिल्ली. बाबगो २१ वर्साचो आडसाटो भुरगो. ताचें तरणे रगत ही देवस्थानाच्या जाग्याची खबर आयकली काय नेटान सळसळूंक लागतालें.

कांय तेंप फाटीं देवस्थानांन देवळाचो सभा मंडप बांदपाचो निर्णय घेतलो. मात हो मंडप खंय बांदप हो मोठो प्रस्न आसलो. देवळा कुशीक गांवकारालीं घरां आसलीं. देवळाच्या वयल्यावाटेन बामणवाडो आशिल्लो. गांवकारांलीं घरां काडून मातशें मुखार गेले काय म्हारवाडो लागतालो. वाडो म्हणल्यार तांची फकत ३-४ घरांच आसलीं. बामणवाडयाच्या वयल्या वाटेन बरें भितर गच्च रान आशिल्लें. त्या रानांत आयल्यान थोडो मेकळो जागो करून म्हारांक थंय व्हरपाचो आनी म्हारवाडयार सभामंडप बांदपाचो गांवकारांचो बेत आशिल्लो. पूण म्हारवाडयावयलो एकूय मनीस ह्या तांच्या गजालीक हयकारी नासलो. ह्या विशिया संबंदान बऱ्योच बसकाय जाल्ल्यो. गांवकारांक हो निर्णय मानिल्लो. मात सदानंद, यशवंत, शांतो, एकांत तांचे हें म्हण्णें आयकपाक कशेच तयार नासले.

फाटीं दसऱ्या दिसाय देवळाकडें ह्या विशयाचेर बरीच भासाभास जाल्ली. दसऱ्या दिसा देवळाकडे रवळनाथ आनी भूतनाथाचें तरंग उबें रावता. देवळाकडल्यो सगळ्यो विधी जावन म्हारान धोलार तोणी मारली काय हीं तरंगा गांवच्या शिमे पेडार वतात. हो धोल वाजोवपाचें काम चडसो सदानंदूच करतालो. पूण बाकिचेय ताचेबरोबर ताच्या सांगाता वताले. त्या दीस तांका येवपाक मातसो उशीर जालो म्हूण गांवकारांनी तांका बरेच वडीर काडिल्ले. सदानंदान मात तांचें म्हण्णे ओग्गी रावून आयकून घेतिल्लें. आपल्या बापायक सगळ्या गांवच्या लोकां हुजीर हे अशें कितें तापयतात म्हूण बाबग्याक तांची बरीच तिडक मारिल्ली. पूण तांच्या मदलो एकलोय गांवकारांक थंय कांयच म्हणूंक पावलोना. गांवकारांनी त्या दिसा सभामंडपाचोय विशय काडून अख्ख्या गांवामुखार तांका शिटकावणीच दिल्ली. तेन्नाच्यान तांचे एकामेकांकडेन बरें पटनाशिल्लें आनी आयज तर ते जाग्याचे तपासणे खातीरूय येवन गेल्ले.

सदानंद आनी बाबगो निकतेच च्या घेवन बशिल्ले. इतल्यान यशवंत, शांतो आनी एकांत थंय पावले. तांचीय तोंडा बाविल्लीं. तांच्याय घरकान्नेन तांका गांवकारांची खबर सांगल्या आसतली हें तांच्या तोंडाक पळोवन कळटालें.

"सोदू, कितें करचें थारायलां आतां?" शांत्यान बाविल्ल्या तोंडान विचारलें.

"कांयच समजना. तांचें आयकूचें काय आमच्या निर्णयाक धरून रावचे तें."

"सोदू, म्हाका दिसता आमी मुकाट्यांनीं ते सांगता तें आयकल्यार बरें. नाजाल्यार फाल्यां आमकां ते हांगा रावपाक नाका-पुरो करतले."

"कांय करचेनात ते यशवंत काका. आमी हांगाच रावपाचें." बाबग्यान रागान सांगलें.

गांवांत आता कौलां जावपाची आसली. तरंगां परत सजपाचीं आशिल्लीं. गांवात दर एकल्याच्या घरांकडेन हीं तरंगां भोंवतात आनी लोकांक कौल दिता. त्या वेळार ह्या कौलांक 'म्हार' म्हत्वाचो आसता. दसऱ्या दिसा भाशेनूच ह्याय दिसा म्हारान धोलार तोणी मारली काय ही तरंगा गांवांत भोंवपाक भायर सरतात.

कांय दिसांनी हो कौलांचो दीस उदेलो. देवळाकडेन लोकांनी गर्दी केल्ली. आख्खो गांव लोटून देवळाकडे तरंगां भायर काडपाक

आयला अशें दिसतालें. तरंगाय सोबून दिसतालीं. गांवांतले सगळे लोक थंय पाविल्ले खरे, पूण म्हारवाडयावयलो एकलोय मनीस थंय दिसनासलो. आयज तर तांची उपस्थिती सामकी म्हत्वाची आसली. कारण धोलार तोणी पडल्या शिवाय तरंगां भायर सरपाक शकनासलीं. गांवकारांचें आतां परत उलोवप चालू जालें.

"ह्या म्हारग्यांचें हालीं चडूच जावपाक लागलां. पयलीं ते वेळा-वेळार दर कार्याक हाजीर रावताले. आनी आतां दर एका सण-वारांक हांची वाट पळोवंची पडटा." रघुनाथ गांवकाराक तांची सामकीच तिडक मारल्या हें ताच्या उलोवपांतल्यान जाणवतालें.

थंय जमिल्ले सगळेच लोक तांची वाट पळयताले. "जाग्याचो विशय काडल्यार हे आपलें तेंच खरें म्हण्टात आनी आतां गांवाक हांची गरज आसा जाल्यार हांचो पत्तो ना." अशें सगळे उलयताले.

इतल्यान कोणे तरी "आयले रे ते" अशें व्हडल्यान सांगलें तशी जमिल्ल्या सगल्यांची नदर तांचेवटेन वळ्ळी. ते येतांच गांवकारांनी तांका तापोवंक सुरवात केली. तांच्यानी आतांय रागाच्या भरांत जाग्यावयल्यान तांका बरेंच आयकयलें. बरोच वेळ तें मुकाट्यांनी आयकत रावले पूण काय वेळान सदानंदान आपलें तोंड उगडलें.

"आमी आमचो जागो सोडून खंयच वयचेनात."

"तुमचो जागो? तुमच्या नांवार आसा तो जागो? तो जागो देवस्थानाचो. कोणाच्यानूय आमकां आमचें काम करपा पासून आडोवंक जावंचेना." रघुनाथ गांवकारान आवाज चडयत सांगलें.

"रघुनाथ काका, तुमी आमकां त्या रानांत वस्ती करूंक लायतात ताचेबदला तुमीच थंय कित्याक वचनांत?" बाबग्यान तिडकी भरशी उलोवन सोडले.

"सोद्र, तुज्या चल्याक सांबाळून उलोवंक सांग. तुमी कोण आमकां सांगपी?"

"आमी तुमच्या सारकेच मनीस. आयज मेरेन आमी तुमी वागयतात आनी करूंक लायतात तशेंच करीत आयल्यात. पूण आतां आमी वोगी रावंचे नात." बाबग्याचो राग सामको तेंगशेक पाविल्लो.

आतां तांचेमदीं बरीच बाचाबाची जावंक लागली. देवळाकडे जमिल्ले सगळेच लोक उलयताले. कोण म्हणी गांवकारांनी आयज कौलाच्या दिमाक जाग्याचो विशय काडूंक जायनाशिल्लो. तर कोण म्हणटालो हे प्रकार आतां चड करपाक लागल्यात. दर एकलो आप आपले परीन ताका योग्य दिसता तशें बाजू घेवन उलयतालें.

इतल्यान अचानक बाबग्यान, "दादा काका चलात या आमी. आयज्यान आमी असो अपमान सोंसून घेवप ना" अशें म्हणलें आनी हातांत आशिल्ली धोलाची तोणी शेंवटून तो नेटान चलपाक लागलो तशें बाकिच्यांय ताच्या पाटल्यान पावल घालपाक लागले.

इतलो वेळ बोवाळ चलिल्लो तो मुखार खंय नाच्च जालो. अकस्मात हुंवार येवन उदका सरशी सगळें लोटून वचूं आनी शांतता पसरची तशी थंय शांतता पसरली. जमिल्ल्या सगळ्या लोकांची वाचा काडून घेतिल्लेवरी थंय कोणाचेंच उत्तर फुटना जालें. सगळ्यांची नदर मात बाबग्यान शेंवटून मारिल्ल्या धोलाच्या तोणयेर आनी तोणयेवयल्यान तरंगांचेर थिरावली.

संपर्क: 7030885689

***

---

*(पान ८ वयल्यान)*

समजावणेच्या सुरांत म्हणटा.

"उपकार कोर धोनया. आमी आमच्या बायेक रावपाचें कांय ना? इतलेंच तोरी सांग..."

पुलीसा कडल्यानूय कांयच खबर आंतोनीक मेळूंक नासली. शक्त आसून अशक्त, पोट भरून उपाशीं आनी जीब आसून मोनो तो जाल्लो. जीव आसून लेगीत निर्जीव आनी आस नासून लेगीत आशावादी.

काळजांतली भावना काळजांतूच दवरून भितरले भितर तो घुस्मट्टालो. सकाळीं उठून तो फ्रिडाच्या पेल्यांत आपूण च्या पियेतालो. ताचें ताट घेवन तातूंत वाडटा तें जेवतालो, ना जाल्यार उपाशींच रावतालो. ताच्या कपड्यांचो वास घेवन ताका स्वता म्हऱ्यांत अणभवतालो. राती कडेन फ्रिडा ज्या जाग्यार न्हिदतालें त्या जाग्यार आपूण न्हिदपाक वतालो. न्हिद पडली जाल्यार बरी आसा ना जाल्यार रात भर दोळे धांपून रात सारतालो.

मणी तुटले उपरांत पुराय माळ तुटून पडची तशीच गत एना आनी आंतोनीची जाल्ली. चिंतनांनीच पुराय दीस वतालो.

पांचवो दीस उदेलो आनी तश्याच खर चिंतनांनी मावळ्ळो. जेजूक हात जोडून एना घरांतल्यान इगर्जेंत वता.

"हांवें पातोक कोरूंक ना पूण खोबोर ना फोळ कोसलें म्योवता तें...." कनफेशन बॉक्सांत बशिल्ल्या पाद्री बोस्त्यांवा मुखार एना आपली भावना व्यक्त करता.

"फादर हांव एनास्तासिया लॉपीस, म्होज्या बायची खोबोर विचोरपाक आयलां."

पाद्री थोडो वेळ शांत रावता आनी थंड घोगऱ्या आवाजांत म्हणटा, "ना एना बाय, कांयच गोमोंक ना."

एना कांय उलय नासतना घरची वाट चलूंक लागता.

पाद्री कनफेशन बॉक्सांतल्यान भायर सरता, इगर्जेंतली जेजूची एक मुर्ती काडटा आनी कनफेशन बॉक्सांत दवरून कुमसार करता.

"सायबा धोनया... दोतोनीचें पुस्तोक घेवोंक तें म्होजे कोडे आयलोलें. हांवें म्होज्या शीमो ताचेर हुंपून ओत्याचार केलो. फुला सारक्या चेडवाक, फुलचे आर्दोंच इबाडून हांवें उडोयलें. पातोक व्होड जालें सायबा कितें कोरचें कांय गोमले ना. गोळो दामून मारलें आनी रातीकोड्रे शिमित्रींत व्होरून पुरलें. ह्या फुडें ह्या पोवित्र जाग्यार जांवचोना सेरमांव सांगपाक म्होज्यान, धोनया भोगोस म्हाका... जायना सोसूंक हो घुस्मोटमार, म्होज्यान जायना सोसूंक हो घुस्मोटमार..." अशें म्हणीत रडत पाद्री इगर्जेंतल्यान भायर सरता.

संपर्क: 8390988388

***





# प्रवास

**दिव्या धनंजय गोवेकार**

अखेरेक आयज तो दीस आयलोच. म्हज्या निमणे इत्सेक घेवन हांवे गाडी चालू केली. काळीज आपल्याच विचारांनी भोंवतालें. थंय कितलो बदल जाला आसतालो काय? आई-बाबा अजून आसात काय? आतां म्हाका वळखतली काय तीं? आनी म्हजें... ताका म्हजी याद आसा काय? अजूनय वाट पळयता काय तें म्हजी? दर एक प्रस्न फकत जापेक राविल्लो.

फाटल्यान बाय आनी संजना दोगांय गुणगुणटालीं. हरशीं फुडल्या सीटार बसपाक दोगांय खुबूच उमेदी. पूण आयज दोगांय मुद्दाम फाटल्यान बसली. आई, बाबान आनी कवितान असोच जर म्हाका समजून घेतिल्लो जाल्यार....

आदले दिसाच काम सोडटां म्हूण हांव ऑफिसांत चीट दिवन आयिल्लों. हांव आनी काम सोडटां तें आयकून ऑफिसांत धक्कोच बशिल्लो. आनी बसचो ना तरी कित्याक? फाटल्या बारा वर्सांत थंयचो दर एक कोनसो म्हाका जुडिल्लो. दुसरे दीस हांव घराच रावलों. फाटलें सगळें विसरून सगळ्यांचेर भरभरून मोग केलो. निमण्या खिणाक तरी कितें बदलत जाल्यार, पूण ना. कविता म्हजी बायल. ताका लिपोवन हांवें म्हजी सगलीं तयारी केल्ली आनी तयारे प्रमाण मध्यान राती हांवे घराचो हुमरो सदां खातीर हुंपलो.

म्हज्या आनी कविताच्या मोगाक कॉलेजींत शिकता आसतनाच कळो फुटिल्लो आनी लग्ना उपरांत तर तो चडूच फुल्लो. तो इतलो फुल्लो, एकदीस तो सासणा खातीर बावलो. लग्नाक पांच वर्सां जाली तरीय आमकां भुरगें जायना. घरांत हांव एकलोच चलो जाल्यान, वंशवेल वाडोवपाची जापसालदारकी आमचेर. घरांत सदांच प्रस्न,

'आरे जाली मरे आतां पांच वर्सां केन्ना करता बोवाळ?'

देव-देवस्पण, दोतोर कवितान सगलें करून पळयलें. मात एक्काय उपायाचो गुण पडलो ना. कविताची कूस फळना, कविताक भुरगें जायना म्हूण सगळींच कविताचेर बेजारताली.

'कविता, शिकलें म्हूण जायना. बायलांची परंपराय चलोवंक जाय'

'कविता! तुका मातूय पडिल्लें ना गो? कर कितें तरी'

अखेरेक शिकिल्या कवितान आमची दोगांयची टेस्ट करून घेवपाचें थारायलें. आनी टॅस्टीन एक कोडू सत्य आयलें, अशक्तताय कविताभितर न्हय तर, ती म्हज्याच भितर आसली. कविताची कांयच चूक ना. म्हाका लागून कविता केन्नाच आवय जावंक पावचें नासलें. इतले दीस कविताक थोमणे मारपी दर एक जीव आतां म्हजेर तिडटालो. कसल्या चल्याक जल्माक घालो हाचेर लोक सदांच आई बाबाक थोमणे मारताले.

"हरशीं भुरगेपणांत ताका घरकोंबो करुन दवरिल्लो, आतांय ताका पदराफाटल्यान लिपय गे." आयकून सामकें सट्ट जाल्लें पूण करतलो तरी कितें? घरांत चलो भुरगो आसून लेगीत बाबाची मान समाजा मुखार सकयल वताली. कविताची नदर दर खिणाक तोंपताली.

दीस वताले तशीं मनशांय पयस वताली कविताक तर हांव घरांत आसून नासून सारकोंच. कसलेंय काम करपाक हांवें मदत केल्यार कविताचें तापप.

'तूं मात्सो कुशीक राव आं हांव करता तें.'

निमाणें हांवेंच म्हज्या आनी चड करून ताच्या दुख्खाक पूर्ण विराम दिलो. हांवें घर सोडलें. सगळ्यां कडल्यान सासणाखातीर पयस गेलों. ताणी फाटल्यान म्हाका सोदलो काय ना कांयच खबर ना. पूण अश्या वेळार म्हाका समजून घेवपी, म्हाका संजना मेळ्ळें. ताणे म्हाका म्हज्या अशक्तपणा सयत आपणायलो, आनी हांवे ताच्या दोन वर्साच्या बायक. बायक हांवें स्वताच्या भुरग्या परस केन्नाच वेगळें मानलें ना.

रागान घर सोडिल्लें खरें. मात एकूय दीस उजवाडटाना तांच्या यादींचे किरण घेवन येनासताना रावलो नां. सदांच दिसतालें एक ना एक दीस घरा वचप आनी तांका फकत इतलेंच विचारप.

"दादल्याकूय हे कमीपण आसल्यार कितें जालें?"

मात केन्ना वचपाचो धीर जालो ना. फक्त यादीनीं संजनाच्या वेंगेत रडप.

एकदीस दनपरां जेवन असोच आड पडिल्ल्या कडेन अकस्मात एक सपन. सपनांत म्हजें घर, घरांत कितें तरी जालां आनी हांव कित्याक तरी रडटां. घरांत सगलोच बोवाळ, कितेंच स्पश्ट ना. ह्या भयानक सपनांतल्यान हांव दोळे उगडपाक सोदता पूण उगडना, आंग घामान भिजलां. आनी एकदम हांव न्हिदेंतल्यान जागो जालों. तकली जड जाल्ली, दोळ्यांतल्यान दुकां व्हांवताली. आनी त्या दिसाच्यान, सपनांन म्हजी घरा वचपाची इत्सा आनीक खर केली.

यादींचो खेळ खेळटना गाडी गांवांत केन्ना भितर सरली ते कळ्ळेंच ना. फाटल्यान संजना आनी बाय गांव पळोवपाक गुंथिल्लीं. पुराय गांवात कितलो बदल जाल्लो. मातयेच्या जाग्यार शिमीट आयिल्लें. पावला पावलाक घरां जाल्लीं. म्हजेंय घर बदल्लां आसतलें काय तें तशेंच आसतलें?

'कच्चऽऽऽ'

हय. हेच ते भांडाऱ्याले घर. पयले देंवतेर पयलें घर.

"हय, तुजेंच हें घर. यो वेंगय म्हाका' तें घरूच म्हाका सादयतालें." म्हजें काळीज एकदम कलकलपाक लागलें.

वेळा वांगडा म्हज्याय घरांत बदल जाल्लो. कवितानूच केला आसतलो. ताकाच उमेद आसली शिमिटाच्या घरांत रावपाची. फुडले पोरसूं मात आजूनय तशेंच सुंदर आसलें. आईनूच सांबाळून दवरलां आसतलें. खिणभरा खातीर सगळ्यो यादी ताज्यो तट्टटीत जाल्यो.

*(पान २८ चेर)*



# स्टेटस

गौरांग बाबुराव भांडीये

फाटले चार दीस मळब जणू भकाभक ओकतालें. कोणाचेर तरी तिडक काडिल्ले वरी पावस पडटालो. मळेकारांनी घाल्ल्यो रोंपयो, घोसाळ्यांच्यो माट्यो, शेतवडी पुराय इबाडलेल्यो. पावस सुशेग घेनासतना दडकांनीच उलयतालो. वळवय गांवान तर हें वर्साचेंच. अटंग्या पावसांत कसलें तरी अरिश्टाक गांवच्या लोकांक तोंड दिवचेंच पडटालें.

सांजे वेळार चंद्रुल्या गाड्यार बशिल्ले कडेन शेंक्यान धांवत येवन रावजीक म्हळ्ळें,

''रावजी, धरणाची दोन दारां उगडटात खंय. धरण भरून वोत्ता. सोडलें ना जाल्यार धरण कोसळपाची लेगीत शक्यताय आसा.''

''तशें जाल्यार येता दिसता वर्सावळीचो आकांत.'' रावजीन चिंतेस्त स्वरान म्हळ्ळें.

तांणे कामावेल्यान परतुपी उल्हासाक सांगून सगळ्यांक कळीत करपाक सांगलें. ते बरोबर उल्हास मेळटा ताका कळयत गेलो. उदकाचो लोट जंय जंय पावपाचो अंदाज आसा, त्या त्या घरांक सामान बांदपाक कळीत केलें. रात जाल्ल्यान सगळ्यांनी चड मनार घेतलें ना. आकांत लागींच आसलो, पूण सुलूस नासली. पूण रावजीन आनी उल्हासान आपले परीन लोकांक जागयले. जायत्या जाणांनी तयारीय केली आनी अनमनत रावले.

रातचे १.००च्या सुमाराक न्हंय लागसार व्हडा प्रमाणान उदकाचो खळखळ आयकूंक येवपाक लागलो. रावजी आंगणान येवन पळयत जाल्यार मुखावेलें दृश्य उदकाळ जाल्लें. उदक आनी ल्हारांचो खेळ चलिल्लो. तांबडें रेबट उदक राकेस कशें न्हंयच्या तडेभायर पावली मारतालें. सगळो देखाव भिरांकूळ जाल्लो. थळाव्या देवांक-देवचारांक होरायत लोकांनी बोवाळ मारपाक सुरवात केली. ते बरोबर आशिकुशीकचे लोक लेगीत भायर सरुन भंयाभीत जाले. काल रावजीक पिश्यांत काडपी थरकान निवळ्ळे. मुखावेल्या नाटकाचो पुर्वरंग सामकारा दिसतालो. रावजीन घरान वचून बोवाळ केलो.

''सुमती, बेगीन भांगरां, कपडे, देवाकुडींतले देव, शेतांतलीं आवतां कितें मेळटा तें गुटलाय.''

''कितें जालें?'' सुमतीन वाजेवण्या आवाजान म्हळें.

''भायर वचून पळय, यम येता तार घेवन.'' रावजीन तिडकीन म्हळें.

तें धांवत भायर गेलें. भायलें न्हंय लागसारचें वातावरण पळोवन ताका कांपरो सुटलो. जवळ जवळ सगळ्याच घरांनी हो आकांत आयिल्लो आनी येवपाचो आसलो. न्हंय लागसार रावपी सगळे लोक आपली सांटली-पोटली घेवन म्हारवा मळा लागसार आयले. उदक नेट घेतालें. पुराय गांव आकांताक साक्ष दिवपाक तयार जाल्लो.

फांतोडेर स म्हळ्यार लोकांचो जमो वयर म्हारवा मळार जमलो. उदक रस्तो हुंपून मळा मेरेन पाविल्लें. शेतवडींक तेकून आशिल्ल्या सगळ्या घरांनी उदक पाविल्लें. देवसां, चेपखाजन ह्यो शेतवडी तर पुराय इबाडील्यो. रोखडेंच उदक घराच्या पाख्यांक तेकपाचें आशिल्लें. शेतां लागसार आनी शेता धडेर जाणीं घरां बांदिल्लीं तांकां भंयाची केणां मारुन येवपाक लागलीं. कांय घरांचो संवसार जणू उगड्यार पडलो. कांय जाणांची दुकां पावसाच्या आनी हुंवाराच्या उदकान केन्ना भरसलीं कळेंच ना.

तातूंत आयज दनपारची भरती. 'दुश्काळांत तेरावो' म्हणटात तसली गत. उदक कांय न्ही म्हळ्यार मळार पावलें. आंगणां-पेडां उदकान भरलीं. गोरवां, म्हसरां दाव्याचीं सोडलीं देखून तें एक अरिश्ट टळ्ळें. शेजारी गांवांची परिस्थिती मातशी तशीच आशिल्ली पूण वळवय गांव चड बाधीत जाल्लो. मळार राविल्ले कडेन लोक आपापसांत उलयताले. इतल्यान रातीं कामाक गेल्लो सोमो परतना बातमी घेवन आयलो,

''धरणाचें आनीक एक दार उगडटात खंय. न्हंय लागसार रावपी लोकांक सादूर पावपाक सांगलें. लोकांचो [illegible] आकांत आयलो. हरशीं गांवान हुंवार येतालो. पूण ह्या वर्सा चडूच घरलें. जाण्टेले सांगताले, १९८६ वर्सा खंय असो हुंवार आयिल्लो. देश फुटलेलो आनी गांव बुडलेलो. सांतेरीच्या देवळांत उदक पाविल्लें.

कितल्याशाच लोक हुंवाराचो आकांत पळोवंक पयस पयसुल्ल्यान येत आशिल्ली. कांय जाण वडड्यान लोकांक हाडटाले जाल्यार कांय जाण इतल्या आकांतान लेगीत नाल्ल पुंजावंक भोंवताले. कांय जाण लोक कसो त्रासांत पडला हें पळोवपाक वेळ काडून आयिल्ले. कांय जाणां खातीर हो खेळ, जाल्यार कांय जाणां खातीर हो खेत्र जाल्लो. मंत्री, आमदार येवन वासपूस करताले. हुंवाराच्या उदकांत पावलां ओलीं करून वताले. दनपार म्हळ्यार कितल्योशेच वायट खबरी आयकूंक येताल्यो. हरशीं वळवय गांव टि.व्ही, मोबायलाचेर झळकना. पूण आज प्रसार माध्यमां वळवय गांवचो गजर गायतालें.

रावजी कमरभर उदकांतल्या चलत घर दिसता अश्या सुवातेर आयलो. आपल्या घराच्या पाख्याक तेंकलेलें उदक पळोवन तो अर्दमेलो जालो. घामा कश्टान बांदिल्लें घर बुडिल्लें पळोवन ताचें काळीज चर्र जालें. फांतोडेर ताका सुलूस लागिल्ली. पूण अशें जातलें हें येवजूंक नाशिल्लें. तो आयल्यान येवन उबो रावलो. परिस्थिती मुखार दिसयो तेकयत तो संवसाराक खेपतालो.

इतल्यान एक-दोन पत्रकार थंय पावले. तांणीं परिस्थितीचो अंदाज घेतलो. तांकां फाव जाल्ल्या म्हायती प्रमाण वळवय रावजील्या घराक सगळ्यान चड फटको बशिल्लो. ते रावजी आशिल्ल्या सुवातेर पावले. थंयच्यान जायते फोटो घेतले.

''ह्या अटंग्या हुंवारान तुमचें पुराय घर लोटलां. तुमकां कशें दिसता? तुमकां कोणाक

(पान २६ चेर)





# उदारी

**मानसी प्रेमानंद धाऊस्कार**

सांवरिचीं बोंडां फुटून कापूस वाऱ्यार हुपचो तशी पुराय वाडोभर गजाल फांफसली - सदानंद रातच्यान ना जाला.

सदानंद ना जाला हाचो हुसको ताच्या घरच्यां परस गांवाकूच चड जाल्लो. ताकाय कारण आसलें. सदानंद हो गांवचो एक फिशाल दर्जी. सदानंदान शिंविल्लें कालसांव आनी बुशकोट आंगाक फिट्ट बसताले. गिरायकान नाकां किल्लूसपा सारकें ताचे शिंवणेंत तो कांयच दवरिनासलो. तेच पासत सदानंदा कडेन कपड्यांचो दाळ पडून आसतालो.

पूण हुसक्याची गजाल म्हणल्यार गांवची जात्रा तोंडार आयिल्ली. चवथीक आनी जात्रेक वाड्या वयलो कोण ना कोण आपल्याक कालसांव ना तर नवो बुशकोट शिंवतालोच. तशें गरजेक आयिल्ले शारांत वचून मॉलांतलें रेडीमेड विकते घेवन येतालेय बी.पूण सदानंदान शिंविल्ल्या कपड्यांची संवंय जाल्ल्यांक रेडिमेड कपड्यांचो सोस नासलो. आनी आतां जात्रेच्या ऐन वेळार सदानंदूच ना जाला म्हणटकच आपल्या नव्या कपड्यांचें कितें जातलें हो प्रस्न बऱ्याच लोकांच्या तोंडार उफेतालो.

"सदा ना जालो खंय रे?"

जनाल्या हॉटिलाचेर बशिल्ले कडेन वासून महेशाक विचारलें. महेश तेन्ना चण्याचे गरम गरम पातळ भाजयेंत उंडो मोडून बुडयतालो. तो तोंडा कडेन व्हरपाचें सोडून महेशान वासुच्या तोंडा कडेन पळयलें.

"तुका कोणें सांगली ही खबर? आनी तो ना जाला हेका तुजे कडेन कितें प्रूफ आसा?" असो कोदीक प्रस्न करीत महेशान भाजयेंत बुडयिल्लो उंड्या कुडको तोंडांत धुकल्लो आनी मचक मचक करून खायत वासूक पळयत रावलो.

"तेका आनी प्रूफ कित्याक जावो? गांव उलयता तें पुरना? तूं आनी सामकोच मरे!"

"वासू, सदानंद आसलो कितें आनी शेणलो कितें, महेशाक तेजें भोव पडलां! तो तर मोलांतले रेडिमेड कपडे हाडटा न्हूं रे!"

गल्ल्या वयल्या गिरायकाक मोडचे पयशे दीत जनान मर्दी तोंड घातलें. तशें महेशान तोंडा कडेन व्हेल्लो आपलो हात तसोच दवरून जनाक म्हणलें, "सारकें तुजें जनप्पा! म्हाका फरक पडना, पडटा तुका. सदानंद शेणलां म्हणून तुजें एके चायेचें गिरायक गेलें न्हू रे!"

महेशान अशें म्हणूं नाका जनाल्या हॉटिलांत बशिल्ले सगले खो खो करून हांसले. तेन्ना वासून तांचे कडेन पळोवन म्हणलें, "हांसता कितें रे तुमी अशे? प्रसंग कितें हे जाणुनूय फकांणा करतात मरे तुमी. सदा कितेंय आसूं ह्या गांवचो मरे तो? तुमचे अडी नडीक कपडे शिंवोन पावता मरे तो? तुमकां वर्साचीं वर्सां उदारीचेर रावता मरे तो?"

वासून उदारीचेर रावता मरे तो? अशें उतरांचेर जोर दीत म्हणले बराबर सगल्यांचो हांसो एकदम बंद जालो. कोणें मोन्यानी ओंठांक च्यायेचो ग्लास लायलो तर कोणें भाजये सयत उंड्या कुडको जाल्यार कोणें कासवान आपलें बोडूक भितर ओडून घेवचें तशी आपली हांसपाक वयर केल्ली मान सकयल व्हेली.

जनालें हॉटिल गांवां वयले धवळे करपाची सुवात जाल्ली. जनाक जरी ते धवळे आवडनाशिल्ले तरी ते ताचें गिरायक आशिल्ले. ते थंय जमतात देखून ताचें पोट चलतालें.

"पूण काल सांजे मेरेन ताका पळयला मरे हांयें! कपडे शिंवतालो मिशिनार बसून." वासून जनाक म्हणलें.

"रातीं बायलेचें आनी तेचें वाजलें. तेच भिरकेन तो घरांतल्यान भायर सरून जो गेल्लो तो परत कोणांक दिसलोच ना." महेशान आपणेंच ती गजाल पळयिल्ले वरी सांगलें.

"हें मात शेर्त. रातीं तेच्या घरांत वाजतालें तें कानार येयल्लें."

इतलो वेळ काडी घेवन आपले दांत कोरांथीत बशिल्लो सदानंदालो शेजारी बाळू उलयलो. ताणें तशें म्हणूं नाका सगल्यांच्यो नदरो आतां बाळू कडेन वळ्ळ्यो.

"पूण तें दांपत्य तशें थंड मरे! केन्ना बायलेच्या तोंडांतल्यान आवाज भायर सरिल्लो कोणें आयकलो ना." जनप्पान बाळूक म्हणलें.

"आनी कितें? तरी म्हाका एक सांग जनप्पा, घरची बायल कितलीय सोशीक आसली तरी तिणें कितलें म्हणून सोंसप? निमणें चुलीर मडकी दवरप तिणेंच मरें?" बाळून सगल्यांचेर नदर भोंवडायत प्रस्न केलो. हॉटिलार आशिल्ले सगले आतां ताचेच कडेन पळयताले.

"तरी सदा इतलो थंड मनीस गांवांत दुसरो ना मरे!" वासून म्हणलें.

"सांगता कितें? थंयच तर तेणें मार खाला! आरे, एकदां तरी तापय मरे गिरायकाक. कपडे घेवन येता शिंवपाक तेन्ना सगले सामके गरीब गाय जावन येतात. आनी शिंविल्ले कपडे व्हरतना पयशे दिनासतना 'मागीर येतां रे सदा' अशें म्हणत कोले कशे वतात! बरें, येता म्हणल्यार येवन दिवंक तरी जायें? तेंय ना! बरें, दुसरे खेप शिंवण घेवन येतना हांका आदले दिल्यारूच फुडले शिंवतां अशें तरी म्हणूं नाका सदान? ना. ही अबरगत दिता आपली शिंवोन. आतां सांग म्हाका खंयची बायल ओगी रावतली?" बाळून आपल्या शेजाऱ्याली सगल्यांक खबर आशिल्ली गजाल, तरी खबर ना कशे दाखयताले तांकां सांगून सोडली. सदानंदाक उदारी केल्ल्या आनी थंय बशिल्ल्या कांय जाणांनी आपूण तातूंतले न्हयच अशे नुरेन जरी पळयलें तरी तांच्या मनाक खाता म्हणपाचें तांच्या तोंडार दिसतालें.

"तशें जाल्यार आतां जात्रेचें कितें रे? अंदूची जात्रा पोरण्याच कपड्यांनी म्हणपाची?" वासून आपल्या काल्सांवाचेर हात ओडीत प्रस्न केलो.

"म्हाका दिसना सदा जात्रेक कोणाचो घात मारीत म्हणून. कोणांक खबर तेणें शिवोनूय दवरल्या आसतले! कोणें शिवपाक दिल्या तेणीं तरी वचून शिंवल्या काय म्हण विचारूं नाका ताचे बायलेक?"

"विचारतलो कोण? विचारूंक गेल्यार

उदारी फारीक करची पडचिना?'' अशें म्हणत बाळू उठलो. जांणी सदानंदाक उदारी केल्ली तांणी बाळूचे नदरेक नदर दिली ना.

बाळू जरी सदानंदाचो शेजारी आसलो तरी तो ताका घरचोच मानतालो. तेच पासत जनाल्या हॉटेलाचेर कोणें सदानंदा विशीं वायट उतर काडलेंना. तशें काडपा सारकें कांय नाशिल्लेंय बी. सदानंद उतर दिल्ले प्रमाण सगल्यांक कपडे शिंवून दितालोच आनी कोणेंय, 'पयशे मागीर दितां' अशें म्हणल्यार 'केन्ना दिता?' अशें केन्ना चुकून लेगीत विचारी नासलो. ताची घरकान्न गोमती ताका अर्दी मर्दी जागयताली, ''अशें सगल्यांक उदार सोडले जाल्यार धंदो आनी कित्याक घेवन बसपाचें?'' सदानंद तिच्या उतराक हांसत जाप दितालो, ''आगो आसतली कसलीय अडचण! गांवचोंच तो, खंय वचना!''

ताचे हे थंडसाणेक लागून बायलूय केन्ना केन्ना आपलें नियंत्रण व्हगडावन बसताली. हे खेप तशेंच जालें. जात्रा तीन दिसांचेर पाविल्ली. सदानंद रातीचे दीस करून थार नासतना कपड्यांचेर कातर चलयतालो आनी मिशिनाचेर घडाघडा करून पांय दोफरायतालो. कामां मुखार सदानंदाक कित्याचेंच भान उरनाशिल्लें.

''तो महेश भुरग्यांक लुगटां मॉलांत घेता. हे खेप तेणें कालसावांक लुगट हाडलां. दोन वर्सां फाटले दुडू आजून दिवंक ना. ते दिले बगर आपूण लुगटाक हात लायना अशें म्हणपाक कितें जातालें?'' सदानंदाचे बायलेन बुश्कोटाक काजां करतां करतां सदानंदाक विचारिल्लें. घरांतलें काम उलगतकच तीय ताका हात बोट लायताली.

''दोन वर्सां फाटलीं गजाल आतां काडप सोबता गो?'' अशें म्हणत सदानंदान गोमती कडेन पळयलें. तशें गोमतीक ओगी रावप जालें ना.

''तांकां मॉलानी वचपाक तांकता. थंय बिलां पळयनासतना कचाकच पयशे फारीक करप जमता. आनी तुज्या कश्टांचे फारीक करपाक मात तेंचे हात धरतात? दोन दोन वर्सां लागतात? आमकां कितें भुरगीं बाळां नात?'' गोमती पयलेच खेप किंवाट्यान उलयली. तिचीय म्हण चूक नाशिल्ली. पदरांत दोगां भुरगीं. दोगांय शिकतालीं. शिक्षणाचो खर्च आनी म्हारगाय मळ्बाक तेंकिल्ली. तातूंत आनी आतां वाड्यावाड्यार मॉलां आनी सुपरमार्केटां तयार जाल्लीं. तातूंत साकरी पासून तांदूळ आनी आयदनां सावन तरातरांच्या रेडीमेड कपड्यांची विक्री जाताली. आतां कोणूच गांवच्या दर्ज्याक विचारिनाशिल्लें. थोडे कोण उरल्यात ते सदानंदाचें फिटींग बरें आसता म्हण ताचेच कडेन येताले खरे, तरी तातूंतले अर्दे अदीक उदारच आसताले.

गोमतीक हें आवडनाशिल्लें. घोवाच्या सादेपणाचो फायदो घेवन ताका नागयतात हें पळोवन ताका केन्ना केन्नाय घोवाचोच राग मारतालो. आयज त्या रागाक तोंड फुटिल्लें.

सदानंदान मोन्यानी सगलें आयकत आपले हात आनी पांय चालूच दवरले. ताणें कितें तरी उलोवंचें, आपल्यार तापचें अशें गोमतीक दिसतालें. पूण ताची ही थंडसाणूच आनी बरेंपण तिका तोपतालें.

''कर तुका जाय तें! हांव सांगपी कोण?'' अशें आपले भितरूच उलयत गोमती रांदचेकुडींत गेलें. सदानंद तें गेल्ले कडेन पळयत रावलो आनी ताणें आपल्या कामाची गती वाडयली.

जात्रा तीन दिसांचेर पाविल्ली. जात्रेक नवे कपडे घालून मिरोवपांत एक आगळी खोस आसता हाची ताका कल्पना आशिल्ली. ताचो बापुयय एक बरो दर्जी आशिल्लो. तो सदानंदाक दर चवथीक आनी जात्रेक कितें तरी नवें शिवतालोच. त्या वेळा वयली खोशी सदानंद आयज गांवच्या हेर भुरग्यां मर्दी पळयतालो. कोणूय अडचलो जाल्यार तांचे कपडे दुडवां खातीर आडावन धरिनासलो. 'दी मागीर जात्रा उलगतकच' अशें म्हणत तांच्या कपड्यांक वेवस्थीत फेर्र बी मारून दितालो. 'सदा तुवें सामकें फिट्ट शिंवलां कालसांव', 'सदाकाका शर्ट सामको ते भाशेन जाला आं' अशीं उतरां कानार पडटकच तो सामको धादोस जातालो. आपली फेती आपल्याक पावली अशें ताका दिसतालें.

पूण आज मात तो चिंतूंक पडिल्लो. गोमती सांगता तातूंत लटीक कांय नाशिल्लें. ताका सगलें कळटालें पूण कळनाशिल्लें. [illegible] कापाचे पयशे [illegible] तेन ताका [illegible]. आपणें काम करून दिलां तशें मागीर केन्ना दिवन वचूंक जाय, आपल्याक हल मुखार करचो पडचो न्हय. अशें ताका दिसतालें. पूण ताका जापसालदार कोण? म्हजोच सभाव! अशें चिंतून तो आपल्याकूच दोशी मानतालो.

आपलो सभाव बदलपाचो, गिरायका मुखार येवकारी रावपाचो अशें तो थारायतालो. पूण तें कशें करप तेंच ताका कळनाशिल्लें. जमनाशिल्लें, म्हणल्याकच जाता. तरी ह्या पिशेपणाक खंय तरी अंत हो जायच. अशें ताचें अंतर्मन ताका सांगतालें. आतांय गोमतीचीं उतरां आयकून राग येवपा बदला ताच्या मनांत हेच विचार मिशिनाच्या चाका वरीं घुंवपाक लागिल्ले.

बऱ्याच वेळान आपूण जेवलो ना हाची ताका याद जाली. गोमतीनय ताका सदचेवरीं जेवणाक साद घालोना. भुरगीं जेवन न्हिदिल्लीं. सदानंद जेवपाक म्हूण भितर गेल्लो तो बायलेक न्हिदिल्ली पळोवन कुडींतल्यान भायर आयलो. ताका गोमतीचो राग आयलो ना. ताचें चिंतप सारकें आसा, आपुणूच खंय तरी चुकतां. हातूंतल्यान मार्ग काडप आपणाचेरूच आसा. हीच वेळ आसा ह्या नाडांक बुद्द शिकोवपाची. जात्रेक एकल्याकूय कपडे दिवप ना! असो विचार करीत ताणें मशीनाचेर नदर भोंवडायली. ताचे भोवतेक कपडे शिंवून जाल्ले. फकत दोन बुश्कोटांक आनी एका कालसावाक काजां आनी बुतांव लावपाचे तितले उरिल्ले.

'आसूं आतां जात्रेक तांचो घात मारपाचें थारायलांच! काजां आतां लायलीं कितें आनी जात्रे उपरांत लायलीं कितें फरक पडना.' अशें येवजून तो आपलें मशीन बंद करूंक गेलो. पूण एका खोमसार नदर पडटांच ताचें काळीज कळवळ्ळें. तें खोमीस वसंतालें आशिल्लें. वसंत वासुलो भुरगो. जेन्ना सदाच्या बापायन सदाक स वर्सांचो आसतना खोमीस शिंविल्लें आनी तें पळोवन सदा तेन्ना खोशी जाल्लो तीच खोस सदाक वसंताच्या तोंडार आतां दिसली. ती ना करपाची इत्सा सदाच्या हळव्या मनाक मान्यताय दिना जाली. रातभर बसून ताणें झपाझप सगलीं काजां, बुतांव बी लावन आपलें काम सोंपयलें. शिंविल्लो एकान एक

नग वेवस्थीत घडी मारून ताची ताणें धोंपटी बांदली. घराचें दार मातशें ओडून घेतलें. कोणांक कसलींच सुलूस लागूंक दिनासतना ताणें ती धोपटी खांक्याक मारली आनी तो त्या जिळमिटया काळखांतल्यान धेंपा मारीत पयस पयस वचत रावलो.

गोमतीक जाग आयली तेन्ना तें सडसडीत उठलें घरांतल्यो लायटीं सगल्यो पेटिल्ल्योच आशिल्ल्यो. रातीं आपूण हांतुणार पडिल्ले कडेन थंयच आपल्याक लकण लागली हें ताका कळ्ळें. 'आरे देवा!' म्हणत तें रांदचे कुडींत गेलें. मेजार वाडून दवरिल्लें तशेंच आशिल्लें. 'म्हणचें हो जेवलोच ना तर?' अशें म्हणत तें भायर आयलें. बल्कावांचें दार लकयिल्लेंच आशिल्लें. बल्कावांत पळयत जाल्यार मिशिनाचेर कवर घाल्लें आशिल्लें. गोमती आंकांतलें. ताणें भायर येवन सदानंद खंय दिसता काय म्हण जळामळाक पळयलें. ताचो खंयच मागमूस नासलो. तो न्हिदपाकूय भितर येवंक ना हें ताच्या हातुणांवयल्यान होलमतालें. आतां मात गोमतीचें काळीज कलकल्लें. "रातीं आपूण जें किते उलयलें तें ताच्या मनांक बी लागलें ना मूं?". तें धांवत भुरग्यांचे कुडींत गेलें. तांचोय उठपाचो वगत जाल्लो. पूत उठून बसून दोळे चोळटालो. जाल्यार धूव गोजडी कामरून सपनेतालें.

"बाबू दाय खंयच दिसना मरे?" गोमतीन आबालार जावन पुताक विचारलें.

"आगे गेला आसतलो उतकाडेन" अशें म्हणत पूत हांतुणाची घडी करूंक लागलो.

"ना रे पुता, दाय रातीं जेवलोय ना!" आवयन अशें म्हणूं नाका श्याम तटासून आवय कडेन पळयत रावलो. ह्या बोवाळांत धुवूय जागी जावन उठून बसली. सगल्यांनी घरभर आनी पोरसांत सदानंदाक सोदलो. भुरग्यांनी 'दाय रेऽऽ' म्हणत ताका साद घालो. तांचो बोवाळ आयकून शेजारचो बाळू आनी ताची घरकात्र भायर आयली. रातीं सदानंद आनी गोमतीचें वाजलां हें बाळूच्या कानार पडिल्लें. पूण तें ताणें गांभिर्यान घेवंक नाशिल्लें. आयदनाक आयदन लागता ताकाच संवसार म्हणटात. पूण सदानंद ना. हें मात ताका विचित्रच दिसलें. ताणेंय येवन घरभर सोदलें.

सदानंदालें मशीन काम सोंपोवन सुस्तावलां आनी आंगार कामरूण घेवन न्हिदलां अशे तरेन कवरा पोंदां पडिल्लें. ताची लुगटां कातरपाची पेट पुसून बिसून चक्क दिसताली. रातीं तिचेर कोणें काम केलां अशें मात्तूय दिसनाशिल्लें. गोमतीन पेट उगती करून पळयली. तातूंत ताका गिरायकांची कांयच मुस्तायकी वा कपडे दिसले ना. रिकामी पेट पळोवन "हो कपडे घेवन गेलो खंय?" असो प्रस्न सगल्यांक पडलो.

गोमतीन दनपार मेरेन ताची वाट पळयली. बाळून जनप्पाल्या हॉटिलार वचून खबरूय काडली. ताका थंय कोणें पळोवंकूच नाशिल्लो. सगल्यांनी सांज मेरेन वाट पळयली. कोणें वचून गांवचे तळयेंतूय नदर मारली. कोणें पुलीसेक कळोवचें अशेंय सुचयलें. पूण लज गांवार नाका म्हूण आनीक वाट पळोवपाचें थारलें.

दुसरो दीस उजवाडलो. सदानंद ना जाला म्हणपाची खबर वाड्या वयल्यान गांवांत आनी गांवांतल्यान फुडल्या गांवांत पावली. कांय लोकांनी मोटर सायकल घेवन सदानंदाल्या सोयऱ्यांगेरूय पासय मारली पूण खंयच कोणांक तो झळकलो ना.

आतां जात्रेक एकूच दीस उरिल्लो. कपडे शिंवूंक दिल्ल्यांक सदानंदा परस आपल्या कपडयांचोच हुसको चड लागिल्लो. ताणें शिंवून दवरल्यात काय? हें पळोवपा खातीर सगल्यांनी गोमतीची खबर घेवपाच्या निमतान पासय मारली. महेश आनी हेरांनी गोमतीक जापायलें. बॉल्सांतल्यान आदल्या कामाचे दुडू दिवन आपले कपडे खंय दिसतात काय म्हण जळामळाक पळयलें. बल्कावांत लुगटाचे तीर, कपयो आनी कचरो सोडल्यार आनीक कांयच नाशिल्लें.

ह्या दोन दिसां भितर सगल्यांनी गोमतीक जापावपाच्या निमतान फाटली उदारी फारीक केल्ली. गोमतीन पदरान दुकां पुशीत "आतां कित्याक ते पयशे?" अशें म्हणत दिल्ले पयशे मेजाच्या खणांत उडयिल्ले. दोन दीस सरून आतां जात्रेचो दीस उजवाडलो. आदल्याच कपडयांनी आतां जात्रा सोबोवपाची म्हणत गांव सदानंदाक संवपाक लागलो. तरीय सदानंदाचो पत्तोच नासलो.

पूण गोमतीक विस्वास आशिल्लो 'आपलो सदा तसलो न्हय... तो जीव दिवपाचो विचारूय करचो ना! तशें घडपा सारकें कांय घडुंकूच नाशिल्लें. जात्रे दिसा तरी येतलोच येतलो. लोकांची उमेद तो मारचो ना.' अशें ताका मनांतल्यान दिसतालें. पूण ताचे तकलेंत आनीकूय एक विचार घोळटालो.

आनी जालेंय तशेंच, खांदार कपडयांची धोपटी मारून सदानंद घरांत भितर सरलो आनी गोमती ताका पळयत उरलें. सदानंदान मोन्यानी धोपटेंतले शिंविल्ली सगली मुस्तायकी बल्कावांतले दोरयेर वेवस्थीत मांडली आनी गोमतीचेर नदर मारून सूऽऽऽ करीत कदेलार बसलो.

आतां मेरेन सदाल्या दारांत गिरायकांची गर्दी जाल्ली. सदानंद खाकेक धोपटी मारून घराकडेन येतना जनप्पाल्या हॉटिलार बशिल्ल्यांनी पळयिल्लें आनी ताचे फाटोफाट तेय ताच्या घरा पाविल्ले. दरएकलो ताका कसले कसले प्रस्न विचारतालो. दरेक प्रस्नांक आपले कपडे खंय दिश्टी पडटा काय म्हण पळोवंक दोरयेर नदर मारतालो आनी ते दिसले म्हणटकच आपल्याच भितर मुरगट्टालो.

"सदा, वसंताचें तरी खोमीस शिंवलां जाल्यार दी रे, बाबडो रातभर सपनेतालो. ही घे तुजी फेती" अशें म्हणत वासून बोल्सांतले पयशे काडून ताच्या हातार दवरले.

"दाय, सगल्यांनी फाटली उदारी दिली रेय!" मेजाचो खण उगडून ताचे मुखार ताणें पयशे नाचयले आनी परत खणांत दवरले.

"तशें जाल्यार जाणें पयशे हाडल्यात तांचे कपडे दिवन उडय." तोंडार रूक्ष भाव दवरीत सदानंदान म्हणलें. तशे आंगणांतलो एक एकलो मुखार सरूंक लागलो. प्रत्येकान श्यामाच्या हातार फेती उडोवन आपआपले नग घेवन थंयच्यान कूस मारली.

सदा तांचे कडेन आपलें कसलेंच नातें ना अशे तरेन कांय वेळ पळयत रावलो. मागीर ताणें हांसून गोमतीकडेन पळयलें आनी तोय घरांत गेलो.

'दोन दीस आसलो तरी खंय तूं?' गोमतीन ताचे मुखार च्याचो पेलो दवरीत प्रस्न केलो.

तिच्या दोळ्यांत दुकां उफेतना सदाक दिसलीं. येलो हातांत घेतना ताणें गोमतीचो हात धरलो आनी तिच्या दोळ्यांत पळयत ताणें म्हणलें, "गोमती, इतलीं वर्सां गांवच्या लोकांचे कपडे शिंवपाचें काम निसुवार्थीपणान तुजें सांगणें काना-मनार घेनासतना हांव करीत रावलों. कोणें जें हातार उडयलें तें मोन्यानी बोल्सांत उडयलें. पूण ते राती तुज्या दोळ्यांत म्हाका संवसाराचो हुसको दिसलो. ह्या लोकांकडेन जात्रा फुलोवंक दुडू आसात आनी म्हज्याच हातार कामाचे दुडू उडयतना तांचे हात फाटीं सरतात. देखून हांवें चिंतलें आंद् हांगी जात्रा हांव शेळयतां! हांगां कपडे दवरून गेल्यार तूं तें दितलें हें हांव जाणां आशिल्लों. देखून थांगडा तेय घेवन गेलों. दोन दीस शारांत भोंवलों. मोलां पळयलीं पूण धंयच्या कपड्यांची सर म्हजे कपड्यां कडेन जायना हें हांवें धंयच अणभवलें. चिंतलें हो वेळ गांवच्या लोकांक खोशये आड येवपाचो न्हय. म्हण आयज जात्रे दिसा मेळटा तें वाहन घेवन हांगां आयलों. हांव येना आशिल्लों जाल्यार जात्रा कांय उरपाची नाशिल्ली. पूण आपल्याक लागून गांवच्या लोकांची उमेद हांवें मजाडायली हें मात म्हाका म्हातर्ये आशिल्लें, तुकाय तें उपकार आशिल्लें. देखून हांव आयलों. कां केलें चुको कांय?" अशें म्हणत ताणें गोमतीचो दोनीय हात हातान घेत विचारलें.

गोमतीन फकत हय म्हणून मान हालयली आनी त्या वेळार ताच्या मुखामळार खोशी उफेताली आनी दोळ्यांतल्यान दुकांचो झर व्हांवतालो.

मोबा.: [illegible]

***

# नागेश करमली : एक अमर उगडासाचो फुडारी

**फा. जेजूब्रनो आल्मैदा**

हांव 'जाग' मासीक सदांच वाचतां. पूण मार्च २०२३ चो अंक वाचून हांव एके वटेन हांव चड दुखेस्त जालों पूण दुसरे वटेन हांव एकदम खुशाल जालों.

दुखेस्त खबर म्हळ्यार एकाच म्हयन्यांत फेब्रुवारीच्या ६ तारखेर आनी ९ तारखेर आमचे दोन वजनादीक फुडारी स्वर्गवासी जाले. बाब नारायण मावजो ६ तारखेर ८३ वर्सांच्या पिरायेचेर आनी बाब नागेश करमली ९ तारखेर ९० वर्सांचे पिरायेचेर. तांचे योगदान कशेंच विसरपाचें न्ही. जशें बाब सखाराम बोरकारान म्हणलां तशें कोंकणी भाशेक हे दोन व्हडले धपके. खुशालकायेची खबर की सगल्या वाटांनी नारायणबाब निस्वार्थीपणान कोंकणी भाशेक स्पुर्ती दिवपी. कोंकणी भाशेच्या सुरावातीच्या वावरांत तांचो खूप मोलादीक वावर. जायत्या संस्थाक चड करुन कोंकणी संस्थाक वेग-वेगळे तरेन ताणे जायतो आदार दिलो.

**नागेशबाबाचे जिवीत:** तें जायत्या वाटांनी पळोवंचें पडटा. सुटके झुजारी, कोंकणी भाशेचो खडेगांठ फुडारी. पयले सुवातेर सुटके झुजारी. बंदखणींत राविल्लो मनीस. भुरगो आसतना घरचे परिस्थितीक लागून चड शिकूंक पावलो ना पूण गिन्नानान सामको हुशार आनी थार नासतना वाचपी-बरोवपी म्हण्टकच तो एक Self made फुडारी कसो वयर सरलो. जें ताणे वाचून -वाचून शकप केलें. कोंकणी, मराठी, पुर्तुगेज, इंग्लिश, हिंदी, उर्दू भासो शिकलो तें एक अजापूच कशें. नागेशबाब एक चलतें भोंवतें वाचनालय (Walking library) कशें वावूरलो. कितलीं पुस्तकां ताणे वाचलीं, कितलीं पुस्तकां -कविता ताणे बरयल्यो ताचो हिशेब ना. कोंकणी भास सगळ्याक पावोवपाक, सगळ्याक शिंपडावपाक, होच ताच्या जिवीताचो हेतू आसलो.

**ताचो फुडलो वावर:** आकाशवाणीचेर कितलें मोलादीक काम केलें आनी भुरगे पिळगेक वयर काडूंक कितलो पोट तिडकेन वावूरलो तें सांगूक अवघड. पुस्तकां वाचप म्हळ्यार फकत भारतीय लेखकांचीं न्हय तर आख्या संवसारांतल्या फ़ामाद लेखकांचीं जशे, खलील जिब्रान, लेव टॉलस्टोय, दोस्तोवास्की, माक्सीम गोर्की, सोमरसॅट मॉम, गाब्रियेल गार्सिया मार्केज, पाब्लो नेरुदा, फेर्नांदो पेस्सोव असल्या संवसारांतल्या फ़ामाद जाल्ल्या लेखकांक ताणे आमच्या मुखार हाडले.

नागेशबाब जायतो झुजलो आनी जायतीं आंदोलनां जिखून आमच्या नव्या पिळगेक एक नवी दिशा ताणे दाखयली. पूण नागेशबाबाचो सगळ्यांत व्हडलो हेतू आसलो कोंकणी भाशेक आमच्या गोंयांत आनी पुराय भारतांत मोलाची सुवात फावो करुंक आनी हें काम ताणें जायतें फुडें व्हेलें आनी आतांच्या पिळगेक एक निट रस्तो दाखयलो. हो वावर कसो फुडें व्हरचो तें आमच्या भुजांचेर थारलां.

ह्या 'जागा'चे सगळे लेख वाचल्या उप्रांत आनीक एक गजाल सांगपाची उरल्या ती ही. Inter Religious Dialogue ही संस्था घडोवंक नागेशबाबान जें आपलें योगदान दिलां तें कोणेंच सांगूक ना अशें म्हाका दिसता.

आमी म्हण्टात की गोंयांत हिंदू- किरिस्तांव- मुसलमान हांचो संबंद एकदम बरो आसा म्हण. हेर राज्यांपरस गोंयांत धर्मांचो संबंद अदीक बरो आसा म्हण पूण तो आनीकूय फुडें व्हरपाची जायती गरज आसा. आनी अदीक करुन जेन्ना गांधीजीन सगळ्या धर्मांच्या लोकांक लागीं हाडूंक इतले त्रास घेतले आनी देखूनच आमकां एक धर्मातीत संविधान फावो जालें आनी पुराय संवसाराच्या लोकांन आमकां इतलो मान दिलो ती संस्कृती आतां जायती इबाडल्या तें आमी पळयतात.

Inter Religious Dialogue ही संस्था पिलार हांगा १९८८ वर्सा सुरु जाली आनी तिचे घडणार एक किरिस्तांव, फा. जॉन पेरेरा, एक हिंदू, बाब नागेश करमली आनी एक मुस्लीम बाय रशीदा मुजावर. ती संस्था तिगांय फुडाऱ्यांनीं एकदम बरे भशेन फुडें व्हेली. २०१३ वर्सा व्हडल्या खुशालकायेन तिचो रुप्या उत्सव मनयलो. ते वेळार फा. जॉन, बाब नागेश जाण्टे जाल्ले पूण सगळ्यांनी व्हडल्या मोगान तिगांयचो सत्कार केलो.

आतां ही संस्था 'सद्भाव' ह्या नांवान बरे भशेन फुडें वता. फा. इल्विस फेर्नांदीस ती चलयता आनी तिनूय धर्मांचे आनीकय जाण्टे फुडारी तांतूत वांटो घेतात.

नागेशबाबान ह्या येवजणेक तेंको दिल्लो तें आमच्यानीं कशेंच विसरूंक जायना.

***

# कविता



## वाट

उल्हास रायकार

एकदां ..
म्हजी वाट
अचळय -
तुजी
नदर चुकऽऽवत
तुज्या
मनांतल्याऽऽऽन
गेली...
तेन्नासावन
पावलां म्हजीं
सांवरीच्या
कापसावरी
तेच वाटेन
अशींऽऽऽ
पुस्पऽऽत
शेणऽऽत
आसात...

संपर्क : 7507441344

***

## अस्तुरेचो जल्म म्हजो कस्तुरेचो गंध रे

अनुजा जोशी

अस्तुरेचो जल्म म्हजो कस्तुरेचो गंध रे
म्हजे म्हाका कळटा किर्ते मुक्त किर्ते बंद रे

अस्तुरेचो जल्म म्हजो व्हांवती निळी न्हंय कशी
जीण तुजी रूजता बाबा, फुलता म्हज्या आशीकुशी

अस्तुरेचो जल्म म्हजो पेटते चुलीक गुणे तीन
धूल्ल जाल्ली धुकट जाल्ली हांवेच तुजी रांधली जीण

अस्तुरेचो जल्म म्हजो मळबांतुली भरली कुपां
मोगाळ म्हज्यो मोतयांधारा तेजाळ म्हजी जोगलांरूपां

अस्तुरेचो जल्म म्हजो पांचवो निळो सैम रे
भूयकांपाची शक्त म्हजी, पावस म्हजे प्रेम रे

अस्तुरेचो जल्म म्हजो कस्तुरेचो गंध रे
अस्तुरेचो जल्म म्हजो कस्तुरेचो बंध रे

संपर्क: 7721810986

***

## तुजे सावळेंत

परेश नरेंद्र कामत.

तुजे सावळेंत
उबो आशिल्लों हांव
म्हजी सावळी समजून इतलीं वर्सां

कितलीं वर्सां
तुज्या सावळ्यांच्या खेळांत
म्हजीय आपा-लिपा खेळटाली सावळी

फाटल्यान तुज्या-म्हज्या
काळाची आशिल्ली एक सावळी
आनी सावळेंत एक केळ उबी फुडल्यान

काळान कळा केळयली
वेळेची केळ बागवली
सावळ्यांनी पिकून भांगर भांगर यडावलीं...

आनी-
तुजी सावळी लांब-लांब जायत गेली तेन्ना
म्हज्या माथ्यार आयलें खर वोत
आनी सांगाताक रखरखीत एकटेंपण...

संपर्क: 9422640210

***

## उजवाडाचें मोल

आर.एस.भास्कर

हो कागताचो सूर्य
मग मग जळता
पुराय दिसा खातीर
आनी विश्राम विर्णे

उजो ताजो सोंपता केन्ना
कोणाक ना जाणपाक उत्सुक
पुण, सगटांक कळता
कागत सोंपतना उजो सोंपतलो
तेन्ना चोयविर्शींनी काळोख भरतलो
आनी सगटांक कळतलें
उजवाडाचें मोल।

संपर्क : 8891306123

***

## दोन कविता

माधव बोरकार

### गांव

काडटां यालतां
शद्वांक दावें
वताचें घर
बांदलां हार्वे.

दोळ्यांच्या कवडांक
दर्याच्यो शिमो
कोरता अदृस्ट
आपल्यो खुणो.

फसता पावल
मापतां थाव
काळजा तळा
वसला गांव...

***

### कविता

सावळी म्हजी
गूढ कुवाडें
पलतडच्या गावांत
प्राक्तनाचें व्हडे.

पावलां वाटेर
म्हजोच काळोख
आशयाक अर्थ
दिता वळख.

बरयतां तशी
एक कविता
पर्जळाची पालय
काळखाक फुट्टा...

संपर्क: 9420222876

***



# जराशास्त्र - वृद्धोपनिषद

डॉ. सोबिता किर्तनी

## १०

### आकलनातले बदल

तपास आनी चांचणी हो मनशास्त्रांतलो एक म्हत्वाचो विशय. मनशाचें वागप दोळ्यांक दिसता. मनशाचे गूण, क्षमता, बुद्धीमत्ता, व्यक्तीमत्व, कल्पनाशक्ती आदी हांचो तर्क ताच्या वागपांतल्यान लावंचो पडटा. सरसकट लोक दुसऱ्यांक आपल्या नदरेंतल्यान, आपल्या दृश्टीकोनांतल्यान आनी आपल्या अणभवांतल्यान पारखितात. त्रयस्तपणान हांची पारखणी जावंक, मानसशास्त्रीयांनी चांचण्यो तयार केल्यात. एखाद्या मनशाचे गूण वा बुद्धीमत्ता वा व्यक्तीमत्व पारखूंक कोणेय हयो चांचण्यो वापरल्यो जाल्यार लेगीत एकूच जाप मेळूं येता अशे तरेन ह्यो चांचण्यो तयार केल्ल्यो आसतात. हे खातीर हयो चांचण्यो वापरून त्रयस्तपणान लोकांमदी तुळा करपाक शक्य जाता.

बुद्धीमत्ता मापूंक तरातरांच्यो चांचण्यो वापरांत आसात. एकाद्र्या मानशास्त्रीयान मांडिल्ली विचारसरणेचेर आदारून ह्यो चांचण्यो आसतात.

एका विचारसरणे प्रमाण बुध्दीमत्ता दोन तरांची आसता- प्रवाही (fluid) आनी थीर रूपकार आशिल्ली (crystalised) प्रवाही बुध्दीमत्ता ही नवे रितीन प्रस्न सोडोवपाची क्षमता. हाका आदलें गिन्यान नाका. दोन वस्तूं मदलें नातें वळखप, नवे विचार घडोवप, आनी तर्क लावप हीं सगळीं प्रवाही बुद्धीमत्तेची उदारणां. प्रवाही बुद्धीमत्ता मापपी चांचण्यो असलेच प्रस्न सोडोवंक लायतात. ठरावीक वेळा भितर दिल्ल्या बरोबर जापो हांचे वयल्यान प्रवाही बुद्धीमत्तेचो प्रमाण थारता. मनशाच्या मज्जातंतूच्या अवस्थे प्रमाण ही बुद्धीमत्ता आसता. जाण्टेपणांत ती उणी जाता. थीर रूपकार आशिल्ली बुद्धीमत्ता ही घडणूको आनी म्हायती याद दवरपाची आनी वापरपाची क्षमता. ही बुद्धीमत्ता आमच्या शिक्षण आनी संस्कृती हाचेर आदारून आसता. वय वाडटा त्या भाशेन ही क्षमता वाडटा

प्रवाही बुद्धीमत्तेंत जाल्ले उणाव थीर रूपकार आशिल्ली बुद्धीमत्ता भरून काडटा.



जाण्टेपणांत बुद्धीमत्ता बदल कित्याक घडटा? मज्जासंस्थेची प्रक्रिया ल्हव जाता. ते खातीर एकूण विचार शक्ती आनी कल्पना शक्ती म्हाल्लायता. बेगोबेग म्हायती समजून घेवप हें जाण्टेपणांत कठीण जाता. तशेंच झपझप करून एका कामांतल्यान दुसऱ्या कामांत लक्ष घालपाक कठीण जाता.

१९५६ वर्सा के वार्नर शाय आनी तांचे वांगडी संशोधकांनी सिएटल लाँजीट्यूडीनल स्टडी ऑफ एडल्ट इंटलीजन्स म्हणून जाण्ट्यांच्या बुद्धीमत्तेचो अभ्यास केलो. अमेरिकेंतल्या वॉशिंग्टन राज्यांतलें सिटल हें एक शार. हांगा संशोधकांनी २२ वर्सां ते ६७ वर्सां पिरायेच्या ५०० लोकांचो अभ्यास केलो. दर पांच वर्सांच्या गटांत २५ दादले आनी २५ बायलो आसल्यो दर सात वर्सांनी ह्या संशोधनांत वांटेकार जाल्ल्यांची चांचणी जाताली आनी नवे लोक वांटेकार जाताले. त्या भशेन १९९४ मेरेन ५००० लोकांचो तांणी तपास केलो. उतरावळ, उतरांची याद, आंकड्यांचो वापर, दिशेचें ज्ञान (spatial orientation) तर्क लावपाची क्षमता आनी समजून घेवपाची गती ह्या घटकांचो तांणी अभ्यास केलो. ह्या अभ्यासांतल्यान संशोधकांनी तर्क लायलो की जरी जाण्टेपणान बुद्धीमत्ता उणी जाता तरी सगळ्यांच जाण्ट्यांची बुध्दी उणी जायना. मनशाचो genetic inheritance, मज्जातंतूची स्तिथी आनी वातावरणांतल्यो संदी वा प्रसंग हांचो परिणाम जाता. जाण्टेपणांत लेगीत बुद्धीमत्तेचो चड प्रमाण आशिल्ल्या लोकांची भलायकी बरी आसली, शिक्षण बरें आसलें आनी जोड चड आसली, तशेंच ह्या लोकांची लग्न स्तिथी घट आसली, तांच्या जोडप्यांची बुद्धीमत्ता उंचेली आसली, तांचे कामार तांका विचार वा कल्पना शक्ती वापरपाची गरज आसली आनी एकूण सक्रीय आनी उर्बा दिवपी जिवन आसलें.

पॅनसिलवेनीया स्टेट युनिव्हसिर्टीत पॉल बालटीस नावांच्या मानसशास्त्र्यान जाण्ट्यांची वाड आनी उदरगतीचो आनी

जराशास्त्र म्हळ्यार जाण्टे पिरायेचें शास्त्र. इंग्लिशींत ताका Gerontology अशें म्हणटात. ह्या विशयाचेर संशोधनपुर्ण प्रबंध बरोवन लेखिकेन डॉक्टरेट संपादन केल्या. प्रस्तूत लेखमाळेंत जाण्टेपणाच्या वेग-वेगळ्या तामांचेर अभ्यासपूर्ण लेख आसपावल्यात.

डॉ. सोबिता किर्तनी ही पार्वतीबाय चौगुले कॉलेजींत मानसशास्त्राची सहायक प्राध्यापक आसात.

समृद्धतायेचो अभ्यास केलो (Adult Development Enrichment program) तांणी जाण्ट्यांक प्रशिक्षण दिवपी जायते प्रयोग केले. अशा एका प्रयोगांत तांणी पळयलें की प्रशिक्षण घेनाशिल्ल्या जाण्ट्यांपरस प्रशिक्षण घेतिल्ले प्रवाही बुद्धीमत्तेच्या चांचणीचे गूण चड आशिल्ले. प्रशिक्षण घेवूंक नाशिल्ले पूण प्रस्न सोडोवपाक मदत करपी प्रशिक्षण सामग्रीचो स्वता अभ्यास केल्ल्या लोकांचे गूण प्रशिक्षण घेनाशिल्ले लोकांपरस चड आसले.

सिटल लाँजीटयूडीनल स्टडींत वांटेकार जाल्ले लोकांतय प्रशिक्षण घेतले उपरांत spatial orientation आनी तर्क शक्ती ह्या दोन घटकांत तांचे गूण वाडिल्ले. हाचोच अर्थ जाण्टेपणान फाव ते प्रशिक्षण मेळ्ळें जाल्यार जाण्ट्यांचे बुद्धीमत्तेचे गूण चांचणी पत्रांत वाडटात.

हांतल्यान असो निश्कर्श लावंक येता की विचार शक्ती वा कल्पना शक्ती जाण्टेपणांत वापर उणो जाल्ल्यान खालावता आनी बुद्धीक फावो तो व्यायाम दिलो जाल्यार चड तेंप म्हणसर बुद्धी शादूर उरता. ज्ञानेंद्र्यांतल्यान येवपी म्हायती आमचो मेंदू process करता

निकर्तेच जल्माक आयिल्ल्या भुरग्यांक लेगीत गर्भांत वाडटना सरभोंवतणी आयकल्ले आवाज याद आसतात हें संशोधनांतल्यान सिद्ध जालां. गर्भांत आसतना फक्त आवाज भुरग्यांच्या कानार पडटा तशेंच जिबेर रूच लागता. वास, दृश्टी, स्पर्श आदी जल्मा उपरांत भुरग्यांक कळूंक लागता. समज घडपाक याद, स्मृती खूब गरजेची. सरभोंवतणेंतल्यान येवपी म्हायती आनी ताचो अर्थ आनी वापर भुरग्यांच्या यादींत घट्ट बसता. भुरगें व्हड जाता तशें नवी म्हायती तशेंच एकाच कल्पनेचे वेग-वेगळे अर्थ आनी वापर हेंय भुरग्यांक समजूंक लागता. एकाद्री गजाल पारखूंक, वळखूंक ती आदी संपर्कांत आयल्या काय ना, हाचो अर्थ कितें, ताचो अर्थ कितें, हें समजूंक मेंदू सांठोवन दवरिल्ली म्हायती तपासून पळयता. समज आनी स्मृती ह्यो दोन प्रक्रिया हातांत- हात घालून चलतात आनी हें आमच्या जाणविकाये पेल्यान घडटा. विचार करूंक, कल्पनां करूंक, संपर्क साधूंक, आपलो दिसपट्टो वावर करूंक- सगळेंच करूंक 'स्मृती' ही खूब म्हत्वाची.

स्मृती ह्या विशयाचो अभ्यास करूंक मानसशास्त्र्यांनी भोव संशोधन आनी प्रयोग केल्यात.

स्मृती ही वेग-वेगळ्या प्रकाराची आसता- घडणूकांची स्मृती, प्रक्रियांची स्मृती आनी शब्दार्थाची स्मृती हे स्मृतीचे तीन भाग. कितलो काळ ही म्हायती आमचे तकलेंत उरता हाचे आदाराचेर ती विभागून वता- खिणयाळी, सल्पकाळ आनी दिर्घ काळ. खिणयाळी स्मृती खीण भरच तकलेंत उरता. ज्ञानेद्र्यांतल्यान मेंदवाच्या त्या त्या भागाकडेन वचून फुडें ताचेर कितेंय प्रक्रिया घडटासर ही स्मृती तिगता.

सल्पकाळ स्मृती साधारण ३० सेकंड पर्यंत तकलेंत उरता. कोणाचोय फोन-नंबर आयकून फोन घुंवडायतासर तो आंकडो तकलेन थोड्याच वेळा पुरतो उरता. ह्या सल्पकाळ स्मृतींत आशिल्ली म्हायती चड तेंप याद उरूंक ती पाठ करची पडटा.

दिर्घ काळ स्मृती ही कितलोय तेंप तकलेंत उरता. ही म्हायती सदांकाळ उरूंक येता वा खूब तेंप पर्यंत उरूंक येता. वापरांत आशिल्ली म्हायती चड तेंप उरता. वापर नाशिल्ली म्हायतीची विसर पडटा पूण परतून याद केली जाल्यार रोकडीच याद जाता.

आमी विचार करतात तेन्ना दिर्घ काळ स्मृतीत आशिल्ले म्हायतीचेर प्रक्रिया करूंक सल्पक स्मृतीचो वापर करतात. ताका कार्यकारी वा वेव्हारीक (working memory) स्मृती अशें म्हणटात.

तरेतरेच्या स्मृतींचो अभ्यास करूंक, ताचे प्रमाण मेजूंक संशोधकांनी तरे तरेच्या चांचण्यो आनी प्रयोग केल्ले आसात.

ह्या संशोधनांतल्यान आमंका कळटा कीः

खिणयाळी स्मृती जाण्टेपणांत लेगीत बरी चलता. पूण कार्यकारी स्मृती खालावता.

घडणूकांची स्मृती जाण्टेपणांत खालावता, हांचें एक कारण म्हळ्यार फाटल्या घडणूको याद करतना आमी त्यो आमचे तकलेंत परतून घडयतात. पूण जाण्टेपणांत ही क्षमता खालावपाचें आनीक एक कारण जांव येता तें म्हळ्यार जाण्टेपण ये म्हणसर एकाच भशेन जायत्यो घडणूको घडटात. ते खातीर केन्ना कितें जाल्लें हातून घुसपागोंदळ जाता.

जाण्टेपणांत एकाद्या उतराचो अर्थ सांगप कठीण आसना पूण एकादो अर्थ सांगून ताका कितें म्हणटात काय विचारल्यार उगडास जायना, जिबेर आसा पूण तोंडांत उतर येना अशे तरेची भावना अणभवता.

पश्चिम देशांनी दर एक मनीस (जांव तो भुरगो वा जाण्टो) स्वतंत्र जगता. आपलें स्वतंत्र अस्तीत्व आसा आनी आपूण दुसऱ्या कोणाचेर आदारून ना ही भावना त्या संस्कृतींत खूब महत्वाची. तेन्ना जाण्टे पिरायेर लेगीत स्वतंत्र जगपाक मदत जावंची म्हूण समाजीक, अर्थीक, सरकारी, वैजकी आनी प्रौघोगीक पांवड्यार प्रयत्न चालू आसता. जाण्ट्यांक आनी तांची काळजी घेतल्यांक मदत जावंची म्हूण तरेकवार प्रयत्न जातात. तांतूतलो एक म्हळ्यार जाण्ट्यांची स्मृती सांबाळूंक वा वाडोवंक केल्लो यत्न. तरेतरेचे प्रशिक्षण दिवन ताचो सल्पकाळ आनी दीर्घकाळ कितें फायदो जाता हाचेर खूब अभ्यास चलता. प्रशिक्षण घेतल्यार जाण्ट्यांची स्मृती चड तेंप बरी तिगता अशें कळ्ळां. स्मृती खालावल्या पूण संबंद इबाड जालो ना तशेंच स्मृती इबाड जाल्ले अलझायमर्स सारके दुयेंस जाल्ले जाण्टे लोकांक लेगीत ह्या प्रशिक्षणाचो फायदो जाता.

मात आमच्या समाजांत खालाविल्ली स्मृती ही जाण्टेपणाचो एक भाग अशें आमी धरून चलतात. प्रशिक्षण घेतल्यार स्मृती सांबाळूंक येतली हाची जाण लोकांत ना. तशेंच असलें प्रशिक्षण खाजगी मानसशास्त्रीयांकडेन मेळटा आशिल्ल्यान ताचो लाव साधारण मनशां मेरेन पावना. शारिरीक तशेंच मानसीक स्वास्थ्य सांबाळपाक आनी खालावतली स्मृती सांबाळपाक लोकांक मदत जावंची म्हूण सरकारी आनी बीन-सरकारी संघटणांनी लोकांमदी जागृताय हाडपाची गरज आसा जाण्टेपणान स्वास्थ्य सामकेंच इबाडलें की मागीर तें जाग्यार हाडप भोवच कठीण आसता. खालाविल्ल्या स्वास्थ्याचो जाण्ट्यांचेर आनी तांच्या घरच्यांचेर मानसीक आनी अर्थीक वजें जाता. हो भार ल्हव करपाक फाव ती पावलां घेवप ही आयच्या काळाची गरज.

संपर्कः 9881527581

***



# पांडुरंग भांगी - जिवीत आनी कवीत

माधव बोरकार

पांडुरंग भांगी हांकां कवितेच्या घाटाची बेस बरी जाण आशिल्ली. ताणीं तशे प्रयोगबी कांय केलेनात. ताणी तांचो भाशिक अभ्यास आनी कविता हांचो सुमेळ सादलो अशें म्हणूं येता. ताणी 'पायल्या संवसाराकडेन पळयलें तशीय तांची नदर भितल्ले संवसार पळयताली. तशी छंदाची म्हणपासारकी विविधताय तांचे कवितेंत दिसना. कोंकणी कवितेचो विचार केल्यार बाकीबाबाचो आडवाद केल्यार दुसऱ्या खंयचेय कवीन वेगवेगळ्या छंद वृत्तांत कविता रचिल्ल्यो दिसना. बाकीबाब भारतीय छंदशास्त्राच्या दायाजाचो खोलायेन अभ्यास केल्लो कवी. 'प्रतिभा' ह्या तांगेल्या पयल्या कविता संग्रहासावन तांची छंदाविशींची जाण वाडीक लागली. हालींच्या काळांत आमचे कवी गझल ह्या कवितेच्या प्रकाराचे दिकेन गेल्ले दिसतात. हें वृत्त छंद कोंकणी कवितेक केल्लें कलम कितलें मानवतलें हो एक अभ्यासाचो विशय.



ह्या संदर्भात भांगी हांणी 'गाथा' हो कवितेचो प्रकार कोंकणीत हाडपाचो यत्न केला. थोडे भितर गाथा म्हळ्यार कितें तें समजून घेवंया. गाथा ह्या प्रकाराक एक लांब काळाचो इतिहास आसा. पुर्विल्ल्या वैदिक संस्कृता पासून ताची सुरवात जाल्या. लक्षांत घेवपासारकी गजाल म्हळ्यार आर्विल्ल्या संस्कृत साहित्यांत हो प्रकार व्हडलोसो दिसना. पूण तो प्राकृतांत खूप लोकप्रिय जाल्लो दिसता. तो एक कवितेचो प्रकार आनी तेच बराबर छंदूय आसा. महाराष्ट्र प्राकृतांत ताका खाशेली सुवात प्राप्त जाली, आनी 'सातवाहनान संकलन केल्ले 'गाथा सप्तशती' हाका अभिजात कविता म्हूण मान्यताय मेळ्ळ्या. स. अ. जोगळेकर हाणी ताचें संपादन आनी अणकार करून एक संकलन उजवाडा हाडलां. अरविंद कृष्ण मल्होत्रा हो एक म्हत्वाचो भारतीय इंग्लीश कवी. मल्होत्रान गाथांचें संकलन 'The Absent Traveller: Prakrit Love Poetry' ह्या नावांन उजवाडाक हाडलां. ह्यो गाथा वेंचून काडपाक ताणे स. अ. जोगळेकराच्या संकलनाचो बरोच आधार घेतला. ही गाथा अल्पाक्षरी आसता. सादारणपणान दोन वळी ते चार वळी आनी केन्नाय स वळी अशी तिची लांबाय आसता. (चार वळी म्हळ्यार ती चारोळी जायना.) ह्या गाथांनी एखाद्री घडणूक वा एखाद्र्या सैमाच्या रुपाचें वर्णन आसूं येता. कृष्ण लिलेचें वर्णन कांय गाथांनी दिसता.

भांगी हाणी 'गाथा' ह्या प्रकाराचो बेस बरो अभ्यास केल्लो. ह्या गाथांनी आदली कोंकणी उतरावळ मेळटा. तेच भशेन तातूंतली कांय उतरां आजूय घोळणुकेंत आसात अशें तांचें मत आशिल्लें. कांय गाथा ताणी कोंकणींत अणकारिल्ल्यो. त्यो ताणी प्रसिद्ध केल्यो काय ना तें मात म्हाका खबर ना. पूण त्यो तांच्या नोंदवणेंत आसतल्यात. कोंकणीचो भाशाशास्त्रीय अभ्यास करतना ह्या प्राकृत गाथांकडेन वचप गरजेचें अशें मत ते पर्गटायताले. म्हाका ताणी 'कोंकणी शब्दसंपदा' खंड २ खातीर स. अ. जोगळेकराच्या प्रस्तावनेचो आधार घेतला.

तांणी कांय गाथा रचल्यो ताच्यो कांय पती

*धूंय तुजी पिकाळ*
*तत्री व्होंकल दिखाळ*
*रगताच्या तोलार*
*वज्राचो पालोव*
*धरता खांदार*
*धरता खांदार!*

ही गाथा 'दिस्टाव्यां'तली. ह्या संग्रहात आनीक कांय गाथा आसात.

*चंद्राची कोर कशी*
*आंबलेचें तोर*
*आश्विनांतलें चांदने बायें*
*वयावयलें पोर!*

तेचभशेन 'तीन कविता' गाथा ह्या प्रकारांत मोडटात. तातूंतली एक गाथा हांगा उद्धृत करची अशें दिसता.

*काजळ घालें दोळ्यांत तुवें*
*रात जाली कीट्ट काळी*
*रातराणये सुटलो वास*
*आंग आंग चांदन्या तळीं.*

हे गाथेंत प्रेमभावनेच्यो सुक्ष्म सया आसत. (ही कविता 'सत्यकथा' ह्या म्हैनाळ्यांत उजवाडा आयिल्ली). 'अदृस्टाचे कळे' ह्या दुसऱ्या संग्रहांनूय कांय गाथा आसात. त्यो तांच्या वेगळेपणाक लागून लक्ष ओडून घेतात.

*अमुरपिकीं बोरां*
*केंसरांचीं रानां*
*नंदाचो पोर लुची*
*गवळणीचीं थानां.*

तेचभशेन 'झाडपिको आंबो तसो/ आयलो सांजचो वारो / वाजलो नादार चुडो आनी / रंगलो मुखां विडो हे गाथेंत एक भावना आनी तातूंतल्यान आकाराक येता तें अमूर्त चित्र. हो प्रकार मराठी कवितेंत पु. शि. रेगे हाणी केळयलो. तांच्या 'दोला' ह्या संग्रहात ह्यो गाथा आस्पावतात. ताची एक पत हांगा दितां.

*तिच्या लहरी प्रेमाच्या*
*जर सांगेन मी कथा*
*द्रवणार नाहीं कुणी;*

*झुरतील मात्र व्यथा.*

गाथेचें एक म्हत्वाचें आंग म्हळ्यार श्रृंगार भावना. गाथा सप्तशर्थीचो अभ्यास करतना कांय नैतिक आनी अनैतिक प्रश्न मुखार येतात. हो खाशेल्या अभ्यासाचो विशय. हे कवितेच्या प्रकारांत उतरांची तांक सिद्ध जाता. भांगी हांच्या खाजगी कागदपत्रांनी आशिल्ले गाथांचे अणकार प्रसिद्ध करपाक मेळ्ळ्यार खूप बरें जातलें. तांच्या कवितेचो अभ्यास करतल्याक ताचो उपेग जातलो. ह्या वावरांत खूप अडचणी आनी आडखळी आसात. गुप्त धनार नाग फोणो उबारून तें राखूंक बसता तशी परिस्थिती हांगा आसा. कालांतरान हीं सगळीं कागदपत्रां काळाचे भकीक पडून नानपयत जातलीं. हें नुकसान कवीचें आनी तेचबरबर कोंकणी कवितेचेंय आसा.

प्रतिमा म्हळ्यार भाशेचें अर्क. भांगी आसडून, फाफडून तिचें रेखीव रूप दोळ्यांमुखार हाडटा. तिचे भितर आशिल्ली सुप्त तांक जागयता. आनी तांची कविता प्रतिमांची भास उलयता. तांचे कवितेंत झाड ही प्रतिमा मोट्या प्रभावी पणान अभिव्यक्त जाल्या. ह्या संदर्भांत 'अद्रुस्टाचे कळे' ह्या संग्रहांतली ३३ नंबर आशिल्ली कविता विचार करपा सारकी आसा. कलावंत आनी ताची कला हांची तुळा झाडाकडेन करपाक येता. पॉल क्ले हो चित्रकार ही तुळा करतना म्हण्टा, "May I use a simile of the tree? The artist has studied this world of variety and has, we may suppose, unobtrusively found his way in it. This sense of direction has brought order into the passing stream of imaged and experience.... from the root the sap flows to the artist.

झाड म्हळ्यार सैमाची सुंदर निर्मणी. झाड आनी भूंय हांचेमदीं अतूट आनी घट्ट अशें नातें आसता. ताचीं विंगड विंगड रुपां मन भुलोवणी आसतात. एखाद्र्या मळार उबें आशिल्लें एकलें एकसुरें झाड आसूं आनी आपले सावळेकडेन पळोवपी झाड आसूं... शिशिर रुतूंत सगळीं पानां झडोवन नवी पालय फुटपाची वाट पळोवपी झाड तितलेंच सुंदर दिसता. अशा झाडांची कलावंताक एक आगळी वेगळी ओड आसता. हेन्री मूर सारकिल्या शिल्पकाराक तीं काष्टशिल्पां कशीं दिसतात. पानांनी भरिल्लें तशेंच पानां झडिल्लें झाड तितलेंच सुंदर दिसता. भांगी आपले कवितेंत झाड कशें केळयता तें पळोवंया.

*झाड योग्यांची मठी*
*समाधेची समाधी*
*झाड उडलें गा मळबां*
*झाड रिगलें गा पाताळां*
*झाडा त्रिकाळाचे खांदे*
*कोटी सुर्यांचे दोळे*
*पाना पानांच्या जोगलांनी*
*लक्ष ब्रह्मांडाचे फेरे*

*झाड वाटारो वाटारो*
*झाड बंडाचो उलो*
*पिडिल्ल्यांचो पडिल्ल्यांचो*
*झाड दिश्टाव्यांचो खांबो*

*अशें प्रज्ञाकांत झाड,*
*सोंशी कल्लोळांची विजु*
*चंडी जाली गा शांता*
*झाड अमृताची गंगा*

ही कविता वाचतना कवी झाडाकडेन कितले वेगळें नदरेन पळयता तें लक्षांत येता. हांगा झाडाचें 'प्राकृतीक' वर्णन ना. ताका झाड योग्याची मठी कशें दिसता आनी देखुनूच तें समाधीची समाधी जाता. झाड जशें मळबाचो थाव घेवपाक वयर वयर वता तशींच ताचीं मुळां पाताळांत रिगतात. हाचोय अर्थ झाड सर्ग आनी पाताळ हांकां जोडपी दुवो जाता. ह्या झाडाक त्रिकाळाचे खांदे आनी कोटी सुर्याचे दोळे आसात. म्हळ्यारूच झाडाक त्रिकाळाचें भान आसा. तें थळ आनी काळ हांकां जोडटा. ताकाच लागून 'कोटी सुर्याचे दोळे' ही वळ म्हत्वाची थारता. हें झाड वाट दाखयता आनी बंडाचो उलो जाता. आनी जे पिडिल्ले आनी पडिल्ले आसतात तांकां हें झाड दिश्टाव्याचो खांबो जाता. हांगा कवीच्या मनांत समाजाक नवी वाट दाखोवपी एखाद्रो म्हापुरुस आसुंये अशें दिसता. झाडाची सावळी आमकां थाकाय दिता. म्हापुरुस पडिल्ले आनी पिडिल्ले हांचो पाखो घेवन तांकां वाट दाखयता. देखून कवी झाडाक प्रज्ञावंत म्हण्टा. तें कल्लोळांची वीज आपल्या आंगार झेलता. परत हांगा कवीक झाड देवतेच्या रुपान दिसता. चंडी हें देवतेचें एक रुप आनी ती शांत जातकच शांता जाता. देवीचें वर्णन अति सौम्य आनी रौद्राये अशें केल्लें आसा. आनी हें झाड अमृताची गंगा जाता. कवी झाड हे प्रतिमेक कितल्या तरी अर्थाचीं परिमाणां दिता आनी ती निखटी प्रतिमा उरना तर ती रुपकाच्या पांवड्यार वता. खासा भांगी हांकां ती खूप आवडिल्ली कविता. हे कवितेक एक इतिहासूय आसा. ती वाचून बाकीबाबाक 'झाड' ही कविता बरयन दिसली. पूण ते कवितेंत बाकीबाक चडशे झाडाचें प्राकृतीक वर्णन करता. भांगी हांची कविता वाचून बाकीबाबांक नवी कविता रचपाक स्फूर्त मेळप हें ते कवी आनी कवितेचें यश अशें म्हणूं येता.

झाड ह्या आशयाची एक कविता 'चांफेल्ली सांज' ह्या संग्रहात आसा. पूण ही कविता आनी एके वेगळे तरेची झाडाच्या आगळ्या रुपाचो वेध घेवपी. ह्या झाडाचें रुप कशें? तर ताचेर शिळाय मोनेळून सांजेवपी. आनी ताचे रक्त सावळेंत जोगलावल्लीं कुपां सवण्यांचीं भिरीं जावन घोंटुरपी. घोंटेरांत न्हिदिल्ल्या सवण्यांक तें आपल्या पानांनी आल्लय गायता आनी खासा आपूण अख्खी रात जागता. आनी फांत्या पारार सवण्यांक जाग येतकच तांचेवरीच किळबिळटा.... तें उजवाडाक अगीं ओंपतना पानांचीं पाखां जावन / उडटना / झाडच / ओंकार जावन फांकारता / चराचराक प्राण दीत / घुंघुरून घुंगुरता... हे कवितेंत भांगी झाडाक आदि मायेच्या रुपांत पळयता. हांगा झाड आदिबंध जावन येता हें तिचें एक मुखेल खाशेलेंपण म्हणप समा जातलें.

तेचप्रमाण ही कविता लयबद्ध गद्याची धाटी घेवन आयल्या. [illegible] हे कवितेंत नामांचीं क्रियापदां जाल्लीं दिसतात. कवी तीं नवीं घडयता ना तीं आपसूक घडटात. हे कवितेंत नामांचीं क्रियापदां जाल्यात. घोंटेरांचें घोंटुरतात, सांज-सांजेता, किल्बिल्ल - किल्बिलटा, घुंगु घुंगुरता ह्यो कांय देखी आसात. कवीक तेन्ना भासेचें [illegible] जाण आसता तेन्ना तांचे हातसून आपसूक भास घडटा. [illegible] भासेचीं ह्यां अदेचीं दिसता. शैली विज्ञानाचे नदरेन हें प्रक्रियेक [illegible] म्हत्व आसता. अशे तांच्यो प्रतिमा सांकेतिक [illegible] न्हयकारूंक मेळना.

झाड ह्या सैमाच्या आविश्काराक भारतीय लोकमानसांत [illegible] म्हत्व आसा. भारतीय कवितेंत झाड आशय जावन आयला. मराठी कवितेंत 'औदुंबर', 'चांफा', 'गंधरेखा' अशा कवितांनी म्हत्वाची सुवात जोडल्या. ह्यो कविता झाडाचें प्राकृतीक वर्णन करिनात तर तांचो गूढ भावार्थ व्यक्त करतात. ह्या कवितांनी अर्थाचे वेगवेगळे थर [multy layered] दिसतात. ह्या तिनूय कवितांचे समिक्षकांनी आपआपले परीन अर्थ लायल्या. 'औदुंबर' आनी 'चांफा' ह्या दोनूय कवितांचे समिक्षेचे संपादित ग्रंथ उजवाडा आयल्यात. भांगी हांची कविताय अशीच अर्थांचीं वेगवेगळीं परिमाणां आशिल्ली अशी आसा. शंकर रामाणी हांची 'मळब आनी झाड' आनी रमेश वेळुस्कार हांची तांच्या 'सावुलगोरी' ह्या संग्रहांत आस्पावल्लीं वट्ट एकवीस कवितांचो माळ हांची तुळा भांगी हांचे कवितेकडेन करपाक वाव आसा. पूण ते खातीर गरज आसा ती साक्षेपी नदर आशिल्ल्या समिक्षकांची. तांची वाट कितलो काळ पळोवंची पडटली हें सांगप सोंपें न्हय. कांय बाबतींत ह्या कवीकडेन कोंकणी समिक्षकांची आडनदर जाल्या अशेंच म्हणचें पडटा. ही उवेखणी पयस जावंक जाय.

भांगी हाणी सुरवेच्या काळांत बरयिल्ले कवितांमदीं 'सावळी' हे कवितेचो आस्पाव जाता. ही कविता तांचें कवितेचो नीज प्रकृती दाखयता. Anthology of Konkani Poetry ह्या संकलनांत तिचो आस्पाव जाल्लो. मनोहरराय सरदेसाय हाणी ताचें संपादन केल्लें. ही एक तांची सगळे नदरेन वेगळी कविता. प्रतिकवादी कवितेचो बाज आशिल्ली ही पांच कडव्यांची कविता. हरशीं तांच्यो कविता तीन ते चार कडव्यांची आसता. ही मात पांच कडव्यांची आसा. हो कवी एकसारको आत्मसोदांत आसपी. आपल्या अस्तित्वाचो अर्थ कितें हाचो होलम घेवपी ''कित्याक ही माया? कित्याक घेवप हें घुस्पून? हो संवसार तर म्हऱ्यांच आसपाची ही खूण'' अशें म्हणपी.

*घोंटिल्ल्या मळबाचेर*
*कांतयल्ली बावली*
*केन्ना तरी शेंणिल्ली*
*म्हजीच ती सावळी*

घोंटिल्लें मळब हातूंत एक अभिव्यक्तीचें वेगळेंपण आसा. तातूंतल्यान दृक् प्रतिमा उबी जाता. मळबाचे प्रतिमेक एक आगळें परिमाण मेळटा. आनी ह्या घोंटिल्ल्या मळबार कांतयल्ली बावली आसा. मळब आनी बावली हांचो हांगा सुमेळ जाला. केन्ना तरी शेणिल्ली ती बावली आपलीच सावळी अशें कवीक दिसता. हांगा

**(पान २६ चेर)**



# म्हजो रवीन्द्र सांगात

**दिलीप बोरकार**

**चोविसावी खिस्त**

केंद्रांत येदें व्हडलें सरकार आयलां जनता पक्षाचें आनी रवीन्द्रबाब, 'आयलें मरे आमचें सरकार? आतां आमी आमच्या कामाक लागुया..!' अशें इतलें सहजतायेन कशे म्हणूंक शकतात? हो म्हजे पासत एक गहन प्रस्न आशिल्लो. जनता पक्षाचे स्थापने साकून वेंचणुकेचो प्रचार आनी त्या पक्षाक मेळिल्ली सत्ता ह्या सगल्या घडणुकांक रवीन्द्रबाब साक्षी आशिल्ले. फकत साक्षीच न्हय तर ल्हान व्हड सगल्याच निर्णयांक तांचें मत म्हत्वाचें अशें गोंयचे काशिनाथ परब, माधव बीर, जी.वाय.भांडारे धरून दिल्लींतले मोरारजी देसाय, जॉर्ज फेर्नांडीस, राजनारायण, ना.ग.गोरे, दुर्गा भागवत आनी हेर कितलेच फुडारी मानताले हें हांवें म्हज्या दोळ्यांनी पळयिल्लें. आतां सरकार सत्तेर येवपाची प्रक्रिया सुरू जाल्ली. म्हजी कल्पना आशिल्ली रवीन्द्रबाब आतां दिल्ली वतले. रवीन्द्रबाब 'आमचें सरकार' म्हणटात म्हणटकच तांकाय म्हत्वाचें पद आसतलें अशें म्हाका गोंयच्या सरकारांत वावुरपी लोकांक पळोवन दिशिल्लें. आपलें सरकार आयलें म्हणटकच तें सरकार हाडपा पासत वावुरपी कार्यकर्ते मागीर कशे तरेन फिल्डींग लावन बसतात आनी सादोवन घेतात तें म्हाका खबर आशिल्लें. हे बाबतींत म्हजे परस आमचे मदल्या सिरिल पाशेको आनी माधव धोंडाक चड गिन्यान आशिल्लें. 'रवीन्द्रबाबाक म्हत्वाचें पोझिशन आतां मेळूंक जाय' अशी चर्चा ते करतना हांवें आयकल्लें. पूण आंगा वयलो घयरांव सहजतायेन फाफुडचो तसो तांणी ह्या सगल्यांतल्यान आपलें आंग अळंग काडून घेतिल्लें. इतले दीस आपलीं सगळीं कामां कुशीक दवरून, इंदिरा गांधीक सत्ताभ्रश्ट करपाच्या एकाच ध्येयान दीस रात वावुरपी व्यक्ती, आपलें ध्येय पुराय जाले बराबर कडेक कशी सरूंक शकता काय हें म्हज्या आकलना भायलें आशिल्लें.

रवीन्द्रबाबांक हें केन्ना तरी विचारूंक जाय आशिल्लें. पूण केन्ना संद मेळत हें सांगू नज आशिल्लें. हांव रवीन्द्रबाबांक मेळूंक वतालों तेन्ना कोण कोण तांका मेळूंक येतालेच. त्या वेळार म्हजें काम आसतालें फकत श्रोत्याचें. रवीन्द्रबाबांक आपल्यागेर लोकांनी येवचें अशें दिसतालें आनी कोणेंय येता म्हूण सांगले उपरांत तो ये म्हणसर तांका सुशेग लागनाशिल्लो. मागीर आयलो म्हणटकच ताचे वांगडा वेगवेगळ्या विशयांचेर गजाली मारीत बसतालो. गजाली कसल्यो.. वेगवेगळ्या विशयांवेली चर्चाच चल्ल्या अशें म्हाका दिसतालें.

''तूं जाग वाचता मरे...?''

एक दीस अशेच बशिल्ले आसतना रवीन्द्रबाबांचो सिगरेट पेटोवन झुरको मारीत केल्लो प्रस्न.

'जाग' पयलीं दिवाळी अंकूच येतालो. डिसेंबराच्यान (१९७६) मुक्ति-दिन आंक काडून ताचें रुपांतर म्हयनाळ्यांत जाल्लें. केन्ना एकदां जाग येताशें जातालें. आंक आयलो काय गोदुबाय वांगडा बसून हांवूय ते दोडून कागदांत गुठलायतालों आनी **घुरूत** लायतालों. केन्ना केन्ना पोस्टाच्यो तिकेटीय लायतालों. गोदुबाय ते वेळार वर्ध्याक आसतना आपूण कशें काम करतालें ती गजाल सांगतालें. आयकतां आयकतां म्हजें काम चलतालें आनी हांव कोंकणीचे उदरगती पासत खूब कितें करतां अशें म्हाका दिसूंक लागतालें. अशें आसतनाय रवीन्द्रबाबान असो प्रस्न विचारप म्हाका वेगळेंच लागलें.

हांवें 'हय' म्हणत मान हालयली.

''पुंडलिकाची 'मीन पिकलां खांडयानी' वाचता...?''

हांवें 'हय' म्हणत परथून मान हालयली.

'जाग' दिवाळी आंक १९७६ हो म्हजे नदरेन एक सुंदर दिवाळी अंक आशिल्लो. असले दिवाळी अंक फकत मराठींतल्यानूच येतात असो म्हजो समज जाल्लो. तसलोच अंक म्हजे कोंकणींत आयिल्लो पळोवन हांव भुल्लसून गेल्लों. ह्या दिवाळी अंकांत कोंकणींतल्या व्हडल्या व्हडल्या लेखकांचें साहित्य येतालें. म्हजेंय कितें तरी छापून येवचें अशें म्हाकाय दिसतालें. ह्या अंकांत पुंडलीक नायकाचे 'मीन पिकलां खांडयांनी' हे कादंबरीचो एक वांटो छापून आयिल्लो आनी उपरांत तेच कादंबरीचो एक वांटो देजेंब्राच्या मुक्ति-दिन आंकांत आनी त्या उपरांत निमाणी खिस्त जानेर, फेब्रेराच्या शिगम्यां पुनव आंकांत आयिल्ली. ती वाचून सगले लोक पुंडलिकाची तोखणाय करताले. पुंडलीक म्हजो इश्ट म्हणटकच म्हाकाय ताचो खूब अभिमान दिसतालो. तरी पूण जाग आयलो रे आयलो सगल्यांत पयलीं हांव रवीन्द्रबाबांची 'नदर संपादप्याची' वाचतालों, मागीर अना म्हांबरो आनी मागीर हेरांचें साहित्य वाचतालों. एका दमांत मराठी कादंबऱ्यो वाचपाची संवय आशिल्ल्या म्हाका ही खिश्तीनी कादंबरी वाचप आडखळीछे वरी दिसतालें. तरी हांवें ती वाचून सोंपयल्ली.

''कशी लागली तुका...?''

हांवें 'बरी आसा' इतलेंच म्हणलें. हांव कादंबऱ्यो वाचतालों. हिन्दी, मराठी आवडीन वाचतालों. इंग्लीश वाचूंक कंटाळो येतालो पूण 'नेन्सी फ्रायडे'च्यो अश्लील कादंबऱ्यो म्हाका बऱ्यो आकलन जाताल्यो. हांव त्यो वाचतां म्हणपाचें रवीन्द्रबाबाक केन्ना थांगपत्तो लावंक दिलो ना.

ताणें म्हाका मॉल बेलोची 'डॅन्गलींग मॅन' ही कादंबरी वाचून काड म्हूण दिल्ली. ती कादंबरी हांव फकत हातांत घेवनूच भोंवतालों. आतां रवीन्द्रबाबान पुंडलिकाचे कादंबरीचेर प्रस्न केलो तेन्ना कितें उलोवचें तें म्हाका कळ्ळें ना. साहित्य म्हाका आवडटा आनी तेंच हांव शिकलों जरी आसलों तरी ताची मोलावणी करपा इतली प्रगल्भताय म्हज्यांत नाशिल्ली. तातूंत रवीन्द्रबाब आमच्या मदल्या फकत पुंडलिकाकूच मानता अशें म्हाकाच न्हय तर बाकिच्यांकूय दिसतालें. देखून रवीन्द्रबाबाच्या प्रस्नाक हांवें कितें जाप दिवप हें म्हाका कळनाशिल्लें.

"पुंडलिकाची ही कादंबरी वाचून हांव वल्लेंतूय धरना आनी सुपांतूय धरना अशी म्हजी गत जाल्या. ते पासत म्हाका तुमचेंय मत जाय. पूण तुमी कोणूच चिकित्सक नदरेन साहित्य वाचतात अशें म्हाका दिसना! तुमी वयले वयर मनरिजवणे पासत वाचतात अशें म्हजें हार्लीसगाक मत जालां. तुमी पुंडलिकाचे हे नवलिकेंतलो अंडर करंट समजून घेत जाल्यार तुमीय म्हजे वरींच खोशशी जातले. मागीर हांव पुंडलिकाकूच मानतां अशें म्हजे विशीं तुमचें मत जालां ताचे फाटलें कारण तुमकां कळटलें."

रवीन्द्रबाब हें म्हाका कित्याक आयकयतात तें म्हाका कळूंक ना. हांव तर पुंडलिकाचें वाचतालों आनी मित्र आसुनय हांव ताचो भक्त आशिल्लों. कोंकणी चळवळींत रमेश, शिवदास, दिगंबर, प्रकाश, तानाजी बी आमचो एक पंगडूच जाल्लो.

"हांव पुंडलिकाक मानतां ताच्याय परस चड भाई मावजो, शीला, रमेश, प्रकाश हांकाय मानतां. पूण पुंडलिकाक मानपाचें कारण मातशें वेगळें आसा. पुंडलिकान ही जी कितें नवलिका बरयल्या ती बरोवपाची ताची पिराय न्हय. ताणें हे नवलिकेंत जें 'जग' चितारलां तें जीं हांवें नांवा घेतल्यांत तातूंतल्या एकल्यानूय पळोवंक ना. खासा हांवेंय पळोवंक ना. आमी कादंबऱ्यांनी भौसाक पळयला तो हुंबऱ्या भायलो. पुंडलिकाचे नवलिकेंत 'हुंबऱ्या' भितरलो भौस आमकां पळोवंक मेळटा. अभ्यासकाचे नदरेन तुवें ही नवलिका वाचल्यार तुका कळटलें."

कादंबरी कशी वाचची, मनरिजवणे पासत वयले वयर काय समाजाच्या अभ्यासाचो विशय म्हूण हाची वळख म्हाका घडटाली. रवीन्द्रबाब उलोवपाच्या मुडांत आशिल्ले. अजून तांचो न्हावपाक वचपाचो वेळ जावंक नाशिल्लो. म्हज्या मनांत इतले दीस हांवें चिड्डून दवरिल्लो प्रस्न विचारन शें म्हाका दिसलें. मुखार आशिल्ल्या टिपॉयचेर खबरांपत्रां पडून आशिल्लीं आनी पयल्या पानार प्रधानमंत्री मोरारजी देसाय, जॉर्ज फेर्नांडीस हांचे फोटे झळकताले. हांवें तेंच खबरांपत्र उखलून रवीन्द्रबाबाक प्रस्न केलो, "रवीन्द्रबाब, तुमी आतां दिल्ली बी वचपाचे नात?"

"म्हजें सद्याक दिल्ली कांय काम ना. तुका दिल्लीशी येवजली अकस्मात?"

"सरकार आमचें आयलां. तुमचीय तातूंत कितें तरी भुमिका आसतलीच न्हय...!"

"कितें म्हामंडळ बी म्हाका मेळटलें अशें दिसता तुका...?" अशें म्हणत रवीन्द्रबाब आपले भितर ओंठांतल्या ओंठांत हांसले.

"हें पळय सरकार आयलां तें जनतेचें. तें हाडपाक म्हजे सारख्याचो चानयेचो वांटो आसा हें खरें, तुमी मानतात जाल्यार! तशे सत्ता आयल्ली काय कार्यकर्त्यांची कोण याद करता. पूण एक गजाल, म्हजी याद तांका आसा. पूण ताची [illegible] म्हाका घेवपाची ना. तांका [illegible] सरकार चलोवंचें दी. म्हजी आनी तातूंत लुडबुड नाका."

"पूण तुमी दीस गत वागल्यात. इंदिरा गांधीची दुस्मानकाय घेतल्या...!"

"हांवें कांयच करूंक ना. इंदिरा गांधी कडेन म्हजें व्यक्तिगत कांय कौंत्रसाण ना. पूण ती हुकूमशाय कडेन देशाक व्हरता तें म्हाका [illegible] जालें. म्हाकाच कित्याक फाटल्या वीस म्हयन्यांत भारतीय जनतेक जें सोसचें पडलें तें सोंसपा सारकें तर...!"

हांव ह्या वीस म्हयन्यांतले कांय म्हयने आंकाडाग्रस्तांचेर तिरें [illegible] गातालों हें रवीन्द्रबाबाक खबर ना अशें जरी हांवें मनांत धरलें, तरी तें मत नाशिल्लें. रवीन्द्रबाब कोंकणी चळवळींतल्या दरेक वागपाचेर नदर दवरून आसताले. म्हणटकच ह्या विशयाचेर म्हजें मत मांडपाची म्हाका हक्कूच नाशिल्लो. म्हजें काम मौन्यानी आयकुपाचें आशिल्लें.

"फाटल्या वीस म्हयन्यांत तिणें आमचे सगळे हक्क काडून घेतले, आमचे तोंडाक गुंडू मारले. पत्रकारांचे हात बांदून आमच्या दुकांक वाचा फोडपाच्या तांच्या कार्याचेर बंदी हाडली. आमकां न्याय दिवपी न्यायालयांचें खच्चीकरण केलें. कितल्याच लोकांक बंदखणींत उडयले. देशाची घटना बदल्ली. जयप्रकाश, मोरारजी सारकेल्या देशभक्तांक 'देशद्रोही' थारायले. वेल्यान तिणें सांगलें आपूण हें सगलें तुमच्या बरेपणाक लागून करतां! 'पुलीसांनी कोणाकूय धरून व्हरून जिवो मारलो जाल्यार तांका विचारपाचो कोणाक हक्क ना!' अशें तिच्या अटर्नी जनरलान लेगीत सुप्रीम कोर्टाक सांगलें हें याद ना तुका...?"

"पूण तिणें वेंचणुकय जाहीर केली न्हय...!"

"तिजेर भायल्या देशांचें दडपण आयलें म्हूण तिका ती घेवची पडली अशें कांय लोक म्हणटात पूण म्हाका तातूंत तथ्य दिसना. ती खंयच्याच देशाचें आयकुपी बायल न्हय. तिजे फाटल्यान संजय, बन्सिलाल सारखी जी तरनाट्यांची टोळी आशिल्ली ते टोळयेन तिका मिसगायड केली. देखून ती फसली. एका हुकूमशहाचो अंत जालो."

"हें नवें सरकार कशें आसा? तें चलतलें?"

लोकांक जायसर चलतलें. इंदिरा गांधीक उडोवन देशाचो मतदार 'प्रौढ' जाला म्हणपाचें दाखोवन दिला. आयज देशाक एक त्यागी, चारित्र्यवान, ताठ कण्याचो प्रधानमंत्री मेळ्ळा. चलयतलो देश बरो असो दिसता! पूण लोहियान म्हणलांच न्हय, 'लोकशायेंत सरकारां म्हणल्यार तव्यावेली रोटी. ती आरती परती करीत रावक जाय. ना तर लोकशाय करपता!'

"ह्या सरकारांत तुमची कांय भुमिका ना तर...?"

"म्हजी कसली? म्हजें काम जालें! आतां म्हजी गरज सरकाराक ना. ती आसा कोंकणीक. गुजराताक वचपाचें आसा, मागीर कोचीक संमेलन आसा, ताच्या वावराक लागूंक जाय. सरकार चलोवपाक खूब लोक आसात! कोंकणीक फकत आमीच न्हय रे?" अशें म्हणत ते खूक करून हांसले...

**(चलता)**

संपर्क: 9822136885

***

# आपा

दादा हेगडे

पिरायेन हांव त्या वेळार १० ते ११ वर्सांचो आशिल्लों जावंक जाय. इस्कोलांक दिवाळेची बावीस दिस सुटी आसताली. दिवाळी परबेच्या पयल्या रातीकडेन दुसऱ्या दिसा फातोंडेर उठूंक जाय म्हण घरचीं सगळीं जाणां बेगीन न्हीदूंक गेल्लीं. मध्यानराती अकस्मात घराभायर लातां बडोवपाच्या आवाजान सगळ्यांक जाग आयली. ह्या आदीं अशें वाजप केन्नाच आयकुंक येना आशिल्लें. हांव घरच्या लोकां वांगडा वारांदार आयलों. रस्त्यार वाड्यावेले त्या वेळावेले कांय जुवान तरनाटे ''नरकासुरा रे नरकासुरा! बरीं बरीं कापडां पोटांत भरा...'' अशें मोठ्यान हुयेली घालत पेट्रोलांची रिकामी लातां वाजयत नाचताले. त्या पंगडातल्या एका तरणाट्यांन आपल्या वेगेंत एक लांब बुजगावणें कशें बावलें घेतिल्लें. एक लांब उबो कोंडों, ताच्या वेल्या अर्दान तशीच आडवी ल्हान कोंड्या बडी बांदिल्ली. मनश्याची आकृताय येवंची म्हण तांचेर तण भरुन त्यो बडयो काळ्या कापडान गुठलावन घेतिल्ल्यो. वेल्या अर्दार एक तांबडे दोळ्यांचे, काळ्या रंगाचे, सुळे भायर आयिल्ले, दोन शिंगाचें रुपडें बांदिल्लें. काळ्या कपड्यान गुठलायिल्लो तो सांगाडो भयांकृत बुजगावणें कसो दिसतालो. एकंदरीत तो सगळो प्रकार खुपूच जड आसुंक फावो. पुण ताका वेंगावन नाचतल्या तरणाट्याच्या तोंडार त्या जडसाणीचो मात लेगीत कसलोच भार दिस नाशिल्लो. उडयो मारीत बेफाम जावन तो नाचतलो. कुसमण वाड्यावेलो हो पयलो नरकासुर. त्या उपरांत आयची पिढी लेगीत दर वर्सा मोठ्या उमेदीन तो गांवभर नाचयत आसा. हांव लेगीत असोच त्या नरकासुरा वांगडा नाचलां. तो पयलो नरकासुर नाचोवपी तशेंच त्या नरकासुराच्या वांगडा हेर गजालींची कुसमण वाड्यार तरणाट्यां मदीं रुजवण करपी आमचो 'आपा'! कुसमणच्या सर्गेस्थ विश्वनाथ दलाल हांचो एकुलतो एक चलो. नांव प्रताप वि. दलाल. तिगां भयणीं आनी घरचीं हेर जाणां ताका आपा म्हणून उलो मारतालीं. तसो तो वाड्यावेल्या सगळ्यांचो आपा जालो. घरची आर्थिक परीस्थिती सामकी जेमतेम जाल्ल्या कारणान फकत इंटर सायन्स मरेन शिकलो. खेळांत ताका विशेश रस, वांगडा वाचनाची तितलीच आवड. त्या वेळचो तो नेमान आपल्या घरा व्यायाम करपी बरो तालीमबाज तरणाटो. गावांत जिम हो प्रकार त्या वेळार नाशिल्लो. शिकप अर्द्यार सोडून ताणे गांवच्या हॉली क्रॉस इन्स्टिटयुट ह्या इश्कोलांत टीचर म्हण नोकरी आपणायली. आनी तेन्नासावन कुसमणचो आपा गांवचो 'प्रताप सर' जालो.

आमच्या घरा सामकार ताचें घर. आपल्या घरच्या आंगणात गोल पाषाणा फातरचो 'शॉट पुट' म्हण, घरांत कपडे सुकपाक घालपाच्या अनवाळ्या बडीयेचे 'जेवलिन' म्हण उपेग करत ताचो सराव चालू आसतालो. केपेंच्या हॉली क्रॉस इन्स्टिटयुट इस्कोलाचो हेड मास्तर सर्गेस्त केशव हेगडे देसाय सरांचो तो शेजारी. खेळांतली ताची ही आवड ताणे हेरली. उपरांत इश्कोलांतले खेळांचे पुराय सामान वापरुंक प्रताप सराक ताणे मेकळीक दिल्ली. घरा फाटल्यान व्हांवपी कुशावती न्हंय तर आपाचें दुसरें आंगण म्हळ्यार अतिताय जावंची ना. मुखावेल्या आंगणात सर दिसलो ना तर शेर्त तो पांट्यार आसुंकूच जाय आसलो. म्हजे सयत वाड्यावेले कितलेशेच तरणाटे सरांकडसून पेवंक शिकल्यात. त्या वेळार मेट्रिक जाल्या उपरांत मुखावेलें शिकप पणजे रावन करचें पडटालें. त्या पासत ताका कांय वर्सां पणजे शारांत राबितो करचो पडलो. थंय लेगीत ताणे खेळांची तालीम सोडली ना. शिकपाचो वेळ सोडून तो फावल्या वेळार कांपाल मैदानार आसतालो. गोंयचो पयलो मुखेलमंत्री सर्गेस्त भाऊसाहेब बांदोडकार खेळामोगी आशिल्लो. तो पणजी जिमखान्यार टेबल टेनिस खेळूंक येतालो. ताका ह्या खेळांत जायत्या फावट हारोवपी एकलोच केपेंकार प्रताप सर! मांडवी न्हंय पेंवन आलतड - पलतड मारपी तो पयलो गोंयकार आसूंक जाय. खेळाविशींची ताची मुखावेली शक्यताय हेरून त्या वेळार ताका कस्टम ऑफिसराची नोकरी चलून आयिल्ली. भाऊसाहेबान लेगीत आपल्या कंपनीत काम करपाचो नियुक्ती प्रस्ताव ताच्या सामकार मांडिल्लो. घर, घरची मनशां आनी त्या वेळावेली ताची ती आर्थिक परिस्थिती, असल्या कारणा पासत केपें परतुपी 'सर' एक दुर्देवी स्पोर्ट्समेन गोंयान वगडायलो अशें आतां चिंतून येता.

अध्यात्माचें वाचप आनी ताच्या विशिंची ओढ ताका आपल्या कठीण परिस्थितीचेर मात करच्या पासत लागली आसुंक जाय. अध्यात्मिक वाचना पासत आपुण आपणार आयिल्ल्या कठीण वेळार सहज पणान मात करूंक शकलों अशें सराकडसून हांवें आयकलां. ताचे कडसून अध्यात्माविशिंच्यो गजाली आयकुंक खूप बरें दिसतालें. तो मनाकाळजासावन खूप गजाली सांगतालो. म्हजो सर्गेस्त आमीग दिनेश नाईक आनी हांवें ताच्या कडसून खुपश्या गूढ गजालींचेर आयकप केलां. मात त्यो समजूंक आमी त्या तोडीचे नाशिल्ले अशें आयज जाणवता. आमच्या लागीं तो स्वामी विवेकानंद, ध्यान आनी व्यायाम ह्या तीनुय गजालींचेर वरांचे वरां उलयतालो. उपरांत भूरगेपणांतले आमी विचारिल्या पोरकट प्रस्नाचेर जाप दितना तो ताच्या खाशेलेपणान मोठ्यान हांसतालो. एक फावट स्वामी विवेकानंदाच्या तत्वगिन्यानाविशीं उलोवप केल्या उपरांत हांवे 'सर म्हाका कांयच कळूंक ना' अशी जाप दिली. सदचेच भशेन मोठ्यान हांसत ''आरे पापया म्हाका तरी तो खंय कळला'' अशें म्हणत सर फुडें सरकल्लो. असल्या वेळार म्हाका ताच्यांत भारदस्त, विचारी, पकदस्त गुरु दिसतालो.

टीचर म्हण शिकोवपाची ताची तरा लेगीत वेगळी. प्रताप सराचो पिरिएड एक भययुक्त आनंद घेवपाचो तीस मिनटांचो काळ.

शिकवणीतल्या विचारिल्ल्या प्रस्नाची जांणी चुकीची जाप दिल्या तांका सरान फाटीर दिल्या खास 'शाबसके' उपरांत कालसांय ओलें जाल्ल्याची आजून याद आसा. खेळांत तो कितलेशेच जाणाचो तालमींतलो बस्ताद अशिल्लो. ताच्या तालमीखाला खेळांत नामना मेळयिल्ले कितलेशेच जाण आज लेगीत सराक विसरूंक नात. कॅंपं आनी कॅंपकारांविशींचो ताचो मोग हांव उतरांनी उक्तावूंक शकना. कॅंपकारांत सगळ्या मळार नामना जोडपाची तांक आसा अशें ताचें म्हणणें आसलें. ल्हानश्या मेळिल्ल्या जैताचर खोस मानपी जुवान ताका आवड नाशिल्लें. असल्यांची ताका सदांच तिडक मारताली. असल्या परिस्थितीचो तांयूय एका वेळावेल्लो बळी जाल्लो हाची ताका जाणवीकाय जाताली जावंये!

कांय जाणांची खूप शिकपाची आनी शिकून घेवपाची आवड लोक पिश्यांवरी व्हरता. मानसशास्त्र आनी इंद्रीयशास्त्र सांगता की ह्या लोकांचो मनावेलो आनी इंद्रीयावेलो अशा वेळार लगाम वा ताबो वचपाची खूपशी शक्यताय आसता. अशा वेळार मनीस हिसपा भायर दवेतीन जावपाची शक्यताय आसता. प्रताप सरांविशीं कांय प्रश्नाचें अशेंच जालें. ह्या गजालींचो कांय संबंधामुखीं कायदो घेतलो, अशा संगतींचो परिणाम सगळ्या वागण्यांत दिसूंक लागलो. प्रताप सरान आपली शिकोवपाची नोकरी अर्द्यार सोडली. अशें कित्याक जालें तें तो समजतलो ना सायणाचो. संस्कारपात्र मनीस सत्कारार्हीन जायत वतालो तें पळोवंक नजो जातालें. ताका पावलावल्यान घेवपी कोणूच नाशिल्लो. नियतीच्या दर्यांत पेटयना एक खडेगांट पेवपी आसाक. आसल्यान घेवपी अशी तड मेळ्ळीच ना. गोंयच्या वसांच देशाच्या मुक्त सरकार नामना जोडपाची शक्यताय आशिल्ली कुसमणाची ही मोल्लांडी ह्या संवसाराक अदृश्यत्व अंतरलो.

आता. प्रताप सर. नागड्यांच्या गावांतलो एकलोच कपडे घालो मनीस!

संपर्क: 9822129070

★★★

---

(पान १२ वयल्यान)

कितें सांगपाचें आसा?'' एका पत्रकारान विचारलें.

संवसार उगड्यार पडिल्ल्या मनशाक कशें दिसतलें हें घडये तांकां खबर नाशिल्लें. रावजीली तिडक कपलाक पावली. तांकां जाप दितना रावजीन म्हळें,

''मनांत कोणाक तरी ह्याच हुंवाराच्या उदकान बुडोवन मारचो सो दिसता. पूण कोण मेळना.'' रावजील्या तांबड्या भडंग दोळ्यांचो अंदाज पत्रकारांनी घेतलो आनी आयिल्ल्या वाटेन परतले. आपली विचारपाची तरा चुकली हाचो अंदाज तांकां आयलो.

रावजीन गाळ मारली आनी म्हळें,

''कोणाच्या खाडाक लागला उजो आनी कोण विडी वोडपाक सोदता.''

वचत थंय उदक लोकवस्ती गिळटालें. दनपारां दोन-तीन जालीं तरी उदक देंवपाचें नांव घे नाशिल्लें. सांजे पांच-स च्या सुमाराक उदक हळू हळू जिरपाक लागलें. घडये उदकान आपली वाट काडली. लोकांचो बोवाळ मात कमी जावपाचो नांव घेनाशिल्लो. लोकांल्या इबाडिल्ल्या संवसाराचें प्रदर्शन लागिल्लें. इतल्यान चार जाणाचो पंगड गावलील्ल्या घरा कडेन पावलो. भुरगीं. नेणटीं फोटो काडपाक मग्न आसलीं. सोशल मिडीयाचेर लोकांल्या पांवणेर काडिल्ल्या संवसाराचें प्रदर्शन चलतालें. कोण कितले स्टेटस घालता हें आयज तांचे खातीर म्हत्वाचें आसलें. रावजील्या घराकडलें उदक देंवतालें पूण अजून चडांत चड घर उदकांत आशिल्लें. रावजी घरा लागसार उबो रावन सगळो अच्छेव नियाळटालो. इतल्यान चार जाणांमदल्या एकल्या भुरग्यान मुखार येवन रावजीक म्हळें,

''अंकल, एक फोटो काडटां तुमच्या घराचो आनी तुमचो. Smile Please."

रावजीक कितें करुं कळना जालें. तो तसोच उबो रावलो आनी त्या भुरग्यान फोटो काडून एका दुखेस्त संवसाराचो स्टेटस अपलोड केलो.

संपर्क: 8552883808

★★★

---

(पान २२ वयल्यान)

काळाचो संदर्भ येता. एके तरेची अनिश्चितताय तातूंतल्यान सुचित जाता. केन्ना तरी शेणिल्ले आपले सावळेच्या सोदांत कवी आसा आनी अचकित घोटिल्ल्या मळबाचेर ताका ती सावळी दिसता. ताचो फुडलो पांवडो म्हळ्यार हावेसांचे कळे धरप आनी मळबाकूच नवी नदर फुटप. 'लक्ष तांच्या व्यथांचे / धतरिक दुवाळे' असो हो आळून आयिल्लो अणभव.

> *ल्हवू ल्हवू रात देंवता*
> *सावळेंतल्यान झिरपता*
> *थेंब्या थेंब्यांत सपनां जागयत*
> *सरांव म्हजो घेवंक येता.*

पयल्या कडव्याक सांजवेळचो संदर्भ आसा तर ह्या तिसऱ्या कडव्याक रातीचो. थेंब्या थेंब्यात सपनां जागीं जातात आनी तीं कवीच्या अंर्तमनाचो सरांव घेवंक लागतात. हीं सपनां आतां फळादीक जातलीं असो ताका भरवंसो आसा. देखून जिणेक एक खाशेलो अर्थ प्राप्त जाला आपूण खंतमुक्त जाला अशें ताका दिसता. रात शांत जाता आनी ती कांतयल्ले बावली जाता.

> *हावेसांच्या उर्बेची*
> *म्हजीच ती सावळी!*

अशे अखेरचे वळींनी ही कविता समेर येता. हे कवितेचें एक खाशेलेंपण दोळ्यांत भरता. सगळ्या पांचूय कडव्यांत एकूय विरामचित्र येता. सोडून निमाणी वळ मात उद्गार चित्रान सोंपता.

संपर्क: 9420222876

★★★



# आंबुल्ल्यो आनी घोंटां

**मुकेश थळी**

यादींची आलमार ल्हान आसना. तातूंतल्या खणांक, कप्प्यांक अंत आसना. तिचे खोलायेचो थावूय लागना. चिंचेच्या पानां भितर पानांच पानां आसची तशी ही उगडासांची कोठी. केन्नाकेन्नाय कांय यादी वयर उफेतात. उचकतात. गोड गोड सुखद यादी !

हालींच सपनांत ती आंबुल्ली दिसली. स्पश्ट चंवरिल्ली. पाचव्याचार पानांचें व्हडलें तोंपरें. मोट्ट्या पोटाच्या कांडाक. चंवरां मदीं इल्लेशे पाचवेचार कण. फुडारांतल्या तोरांचे. फुडारांतल्या घोंटांचे इल्लेशे पूण व्हड जावपाची तांक आशिल्ले.

जाग येतकच ते आंबुल्लेन जागयल्यो कितल्योश्योच यादी. पिरवळच्या भुरगेपणांतल्यो, दिसूंक लागल्यो सगळ्यो आंबुल्ल्यो. आकारवाड्यार, भुरगेपण गेलें शेतां-कुळागरांच्या गोपांत. आनी कुळागरांतल्या त्या आंबुल्ल्यांच्या मुळसांत.

सांगपाचें म्हणल्यार त्यो आंबुल्ल्यो फुलताल्यो-फळटाल्यो तांच्या हंगामांत. आमकां जाय तेन्ना थंय. ऋतू येतकच. आमी कांयच करिनासले ते खातीर. त्यो आंबुल्ल्यो चंवरूंक लागतकच एक वेगळोच वास सगळ्याक फांकतालो. पाचवेचार तोरांचे कुकुले कण चंवरांतल्यान तकल्यो भायर काडून पळेताले. तांचीं केन्ना तोरां जातालीं, कळच नासलें. तोरां जातकच आमी भुरगीं आपसूक आंबुल्ल्यां वटेन ओडटालीं. चुंबका भशेन.

फातरायतकच थोड्या वेळान तोरां पडटालीं. तातूंत मीठ, मिरसांग वा मिरसांगे पिठो घालून तीं फातरी पोंदा चिड्डून कुडके करून खावंचीं. तांचो फळफळीत दीख कपड्यांक बी लागल्यार खत पडलेंच म्हूण समजुचें. अशीं कितलीं खतां दाग, मखां आमी कपड्यांक घालीं ! दीख आंगाक-गळ्याक-तोंडाक लागून फोफेवचो. घरांत पांटलोभर तोरां येवचीं. खळांतल्यो आंबल्यो घालपा खातीर. दोणांतल्या आंबल्यां खातीर देंठां-पानां सयत तीं पाचवीं तोरां. काथावल्लीं तोरां आसतकच दोणांत घालपाक उपकारनात म्हूण आजयेन तीं कुशीक काडचीं.

आंबट चिंचेचे, तोराचे कुडके खातना आंग शिर्र जावचें. पूण शाळेंतूय खेळून जातकच धवीफुल्ल काथ्याची बी काडून उडोवन त्या धव्या आंगाक तांबडेगुंज म्हेळे बोटांचे दाग लावन आमी तीं खावचीं. तें भुकेक लागून खावप काय रुतू प्रमाण दिल्ली ती सैमाची भेट स्विकारप हें चिंतपाची पिरायूच न्हय ती. आतांचे भशेन तितले भयरो जोळोवपूय तेन्ना नाशिल्ले.

पयलेंच तरणें तोर खावपाक एक वेगळी खोस आसताली. एक वेगळी रूच आसताली. हंगामांतलें पयलें तोर ! ताची रुचच वेगळी. लाळ गळोवपी. जीब मुतोवपी. ह्या दिखाळ तोरांचें लोणचें बरें रुचीक लागतालें. गोंया भायर प्रवासाक बी वतना ह्या लोणच्याची एक बाटली व्हेल्यार पुरो. त्या वासानूच वाटे वयले वा गोंया भायलें जेवण लोणच्याच्या ह्या तोंडाकान परकी दिसना.

तोरांच्यो उब्यो शिरो चिरून तांकां मीठ मिरसांग घालून दवरताले. तीं भेतकां जेवणाक आसल्यार आनीक कांयच तोंडाक नाका जातालें. पेजे वांगडा भेतकां. जेवणाक भेतकां. कुरकुरीत, आंबटसार. मेथी घालून आंबल्यो खळांतूय घालून दवरताले. पुरुमेंता खातीर. पावसांत ह्या आंबल्यांक मोटी मागणी. मेथो, खळ हांची रूच आनी आंबलेची कुरकुरीतसाण, आंबटसाण. जीब धन्य जावची. तृप्त. आमच्यांतले कांय जाण तर ह्या खळानूच शीत कालोवन जेवताले.

आजोळाच्या घरा सरभोंवतणीं कितल्योश्योच आंबुल्ल्यो आशिल्ल्यो. तांच्यांतूय विविधताय खूब! घरा मुखा वयल्या कुळागरांतल्या पयल्याच झाडाक आमी नांव दवरिल्लें आंबटो. ताचीं घोंटां सदांच आंबट. आनीक एके आंबुल्लेच्या घोंटांक म्हणटाले गुळ्याचीं घोंटा. तीं वाटकुळींच बटाटा आकाराचीं. गोड. मांसाळ. इल्लोसो काथो. काथ्याचो रंग भगवो-केसरी कसो. आड्या कडले आंबुल्लेच्या घोंटांची कात मातशी दाट. पाचवीचार. काथो लांबट. हळडुवसार. सगल्यांत गोड. तीं घोटां सकयल्या अनशींनी झडटालीं. काडुंकूय त्रास जाताले. जीव जिवाणीं आसत म्हूण बेठोच भंय दिसतालो.

कुळागरांत अश्यो तरातरांच्यो आंबुल्ल्यो आसताल्यो. घोंटा लागतकच आमी थंयच खेळप, बागडप! ढब्ब करून वाऱ्यान घोंट पडटकच वचून हाडप. पोल्यार दूक देवून सुकचें तसो ताच्या आंगार दिखाचो एक पटो आसचो. केन्नाय एक घोंट खावचें. मुखा वयल्या दांतांनी बुराक करप. मागीर तो रोस चोखप. साली काडून तांचेय भितरलो गोरोप दातांनी खरवडावन खावप. काथो खड्डो जायसर चोखप. दांतांनी सुतां भरून दांत हळडुवे - केसरी जायसर. तो रोस पियेतना कोंपरा वयल्यान सकयलूय गळचो. घोंटां खावन जातकच कुळागरांतले मागांतले फोंडयेंत हात धुवन कालसांवाक पुसप आनी परत वाऱ्याची वाट पळेत रावप.



घोंटां खूब पडचीं. आमी एके पोंवलेंत तीं पुंजावचीं. नाजाल्यार इल्लेंशें फोंडकूल खणून तातूंत केळीच्यो शिरत्यो पिंजून दाळच्यो आनी वयर जिन्याच्या बडयांचें चवकोनी आडावण करचें. आपली हक्काची घोंटां

पुंजायल्ल्याची मुवात म्हूण कळपाक. नेटान वारें आयल्यार धबाधब घोंटां पडचीं. आमी सगळीं मावंडां, मामालीं, मावशेलीं, धांवत यवून झुइन पडचीं. केन्नाय माडयेक आपटून पडचीं. ओगीनूय घुमघुशीन. मोव. कांय लागनाशिल्लें.

आदेसांचे आदेस आमी आंबुल्ल्यांच्या मुळया कडेन पडून आसचीं. केदी थंडाय, केदी शितळटाय थंय ! सैमाचें एर-कण्डिशण्ड वातावरण, वत ना. रखरख ना. ताप ना. शांत सांवळी. एक वेगळोच वास, एक आगळावेगळो मोनेळ. मातयेच्या, सैमाच्या गोपांत, घोंटांच्या गंधांत, सुंदर वासांत, वाऱ्याच्या खातकुतल्यांनी शरिराक थाकाय मेळची!

घोंटा पुंजावन घरा हाडचीं. राशींनी. जेवणाक करचें सांसव. सांसवाक रूच वेगळीच. सगळ्या आंबुल्ल्यांची तरातरांची घोंटां तातूंत आसपावतालीं. गोड. आंबट वाटकुळ्या काथ्याचीं. लांबट काथ्याचीं. एक वेगळेंच सर्वसमावेशक वासांचें सालाद. मिश्रण. रसायन. जीव तृप्त करी. केन्नाय करताले काथ्यांचें तोंडाक. गालमो घालून, वडयो भरसून, अनसां फोडीचे कुडके घालून. ताचीय रूच वेगळीच.

आंबुल्ल्यांच्या सांगाता आमी कितलीं वरां, कितले खीण घालयले, कितले आदेस पासार केले हांची गणटी करूं नजो. ती खोस, ती उमेद, हांचीय मोलावणी करूं नजो. आंबुल्लेच्या पोटाक दाट कपचे आसताले.. वेळ वचना जातकच आमी ते खरवडावचे. वणटीच्या पेण्टाचे कपचे काडिल्ले भशेन ते सोलचे. केन्नाय तिका कांडार खरवडावन आमी आमचीं नांवां ताचेर बरोवचीं. तारीख कोंरातची. बावडी आंबुल्ली पासियेंसान सगळें सोंसताली.

याद जाता. एक दीस वादळ जावचें तशा नेटान आकांताचें वारें आयलें. गडगड जावन झाडांपेडां हुमटनात मूं अशें दिसलें. इतलो खर वारो आंबुल्ल्यांक धोंगसूंक लागलो. आनी घे! घडाघड घोंटांचो पावस पडूंक लागलो. गारांचो पावस आयकल्लो. पूण हो घोंटांचो पावस. पुंजावन सोंपना, सोंपून सोंपना इतलीं घोंटां.

सात-आठ वर्सां पिरायेचो म्हजो मामेभाव रस्त्यार येवन खोशयेन म्हाबळ जावन नाचूंक लागलो. तोंडाक येता तें म्हणत तो [illegible] किळाचतालो – 'येयात येयात' तुमी इतलीं वारीं [illegible] इतलीं घोंटां, आमचीं घोंटां तुमी केन्नाच [illegible] येयात. घोंटांच्या पावसा [illegible]. [illegible] लागलो, तरी तो आमचो [illegible] आशिल्लो... ताका केन्नाय ही गजाल याद करताल्लीं.

घोंटां पसून आनीक एक म्हत्वाचो [illegible] करताले. तो म्हळ्यार साट, आंब्याचें साट. पगारांतील घोंटां गोमाचे [illegible] सुकूंक दवरप. आनीक थर चडोवप. कावळे धांवडावन म्हूण [illegible] लांबडी जाळी घालप. कांठीकडे दाट दाट माळां चौकोनी कोरुन अशें तें आंब्यांचें साट! मुकळकच तें निखळावन जाल्ल्यान [illegible] तेन्ना आमी विजयी मुद्रेन थय भोंवतणीं जमचीं. एका माडांत कितल्या घोंटांचे रूची-कण एकजिनसीपणान एकठावल्यात काय? तशें म्हळ्यार कितलीं घोंटां आसतलीं अशें चिंतीत आमी थय पळयताचें। एक लांबाचें लांब सुरी घेवन व्हडलो मामा त्या साटाचे पट कापी. दाट कसली पटार घालचो तशें तें साट पाटार आसतालें. कमराचो 'बॅल्ट' आसता तसो एक एक पटो कापून ताचेर मातसो मिरयांचो पिठो घालतालें.

वांवळेचो तीर घेवन तो पटो बांदताले. कांय पट विकूंक व्हडताले कांय डब्यांनी घालून पावसांत खावपाक दवरताले. ज्यो कडू उरताल्यो तांचे पसून कुंवळ करताले. त्या कुंवळाची रूच पंचतारांकीत खाणाक येवंची ना!

पणसाच्या साठा परस म्हाका आंब्याचें म्हणल्यार घोंटांचें साट चड आवडटा. हालींच म्हाङ्गेला पाविल्लें कडेन दुकानार विकतें घेतलें. आंबट-गोड. एक कुडको काडून तोंडांत घालो. चोखून तोंडांत विरगळायलो. जीब लाळेली. जीव तृप्त जालो. मन मात शेवर्गां जावन भूतकाळांत आंबुल्ल्यांच्या सांगातांत भूर करून उडून गेलें.....

संपर्क : 9545827662

***

---

*(पान ११ वयल्यान)*

दोळ्या मुखार दुकां उबी रावली. केन्ना त्या घराचो हुमरो हुंपून दोळे भरुन सगळ्यांक पळयतां अशें जालें.

गाडयेंतल्यान देंवलो आनी गेट उगडून भितर गेलों. पावला पावलाक घर सामकें खोशयेन हुंडकेतालें. दर एक गजाल म्हाका येवकारताली. घराच्या पयल्या सोपणार पांय दवरताच नदर सरळ भितर लायल्या फास्केर आडखळ्ळी. पावलां थंयच घुस्पली. फास्केंत आई आनी बाबा. आनी तांकां घाल्लो चंदनाचो हार. मनांत गोंदळ घाल्ल्या एका प्रस्नाक जाप मेळी. दुख गिळ्ळें आनी अर्द मेल्ल्या काळजाक घेवन फुडें वचपाक पांय घालो तितल्यान..

"कोण?" फाटल्यान एक वळखीचो आवाज येलो.

"शुभम????"

"हय, भाई कसो आसा तूं? आनी खंय आसलो तूं इतली वर्सां? काका काकी कितली हुस्केताली जाणां तुका?"

"आनी क....कविता... तें कशें आसा?"

म्हजो प्रस्न आयकून ताच्या तोंडार हयनयसो गोंदळ दिसलो.

"कवितान याद काडूंक ना म्हजी? तें खंय आसा?"

"......"

"सांग शुभम. तूं वोगी कित्याक? आनी हें आमचें घर कोण पळयता? हांगा कोण रावता?"

आनी आतां तो उलंयलो

"हांव"

"तूं?"

"हय"

"तूं म्हज्या..आनी कविता?"

"हांव कविताचो घोव"

शुभम म्हजो चुलत भाव!!!

संपर्क: 8669295805

***



# चालींत नाशिल्लें पाकविधान आनी पद्धती

**हर्षा शेटये**

दर वर्सा मंगळुरु विश्व कोंकणी केंद्राचो वर्सुकी सुवाळो जाता - विश्व कोंकणी समारोह. तेन्ना थंय कोंकणी भास आनी संस्कृतायेविशयी वेगवेगळीं चर्चासत्रां जातात. ह्या वर्सा 'चालींत नाशिल्लें पाकविधान आनी पद्दती' ह्या विशयावयल्या चर्चासत्रांत भाग घेवपाक म्हाका आपयिल्लें. विशय म्हज्या एकदम आवडीचो. पंचवीस वर्सांपयलीं आमी कांय न्ही करून जीं रांदपां करतालीं तीं आतां विसरायेर पडत चल्ल्यांत. मागीर आमच्या भुरगेंपणांतलीं म्हळ्यार चाळीस पन्नास वर्सांपयलीचीं खाणां जेवणां तर विचारूंच नाकात. तांचीं नांवां लेगीत विसरल्यांत जातलीं. ह्या चर्चासत्राच्या निमतान भुरगेपणांत पळयिल्ल्यो खूब वेळ खावपी अश्यो रांदपाच्यो पद्दती दोळ्यांमुखार येवपाक लागल्यो.

सगळ्यांत पयलीं याद जालें भिंडेल. भिंडेलाचे गुळे. हेर तेलाभशेन हें तेल पातळ नासतालें. हाचे लांबट आकाराचे गुळे म्हळ्यार मुटले कशे आसताले. हरशीं आजी खोबरेल तेलान नुस्तें वा फोडी बी तळटाली. पूण आमकां थंडी जाताली वा खांक बी येताली तेन्ना तव्याचेर अस्सो भिंडेलाचो गुळो भोंवडायताली आनी तातूंत नुस्त्या कुडको, फोडी बी तळटाली. तेलकट खावन थंडी चड जाता म्हणटात. पूण भिंडेल थंडेक माल पडना खंय. त्या भिंडेलाची रुच मात म्हजे जिबेर ना. म्हज्या नणंदेनूय सांगलें, म्हज्या मांवाक दम्याचो त्रास आशिल्लो. तेखातीर ताका फोडी बी भिंडेलान तळताली म्हणून.

भिंडेल तेल करप म्हळ्यार एक व्हडलो आक्त आशिल्लो. भिण्णांच्यो बियो फोडप. त्यो उदकांत खतखतून थंड जातकच ताचेर धवेंच लोणी कशें तेल उफेता. ताचे गुळे करून दवरप. आतां हें भिंडेल सौंदर्य प्रसाधनांनी वापरतात कातीक बरें म्हणून. आनी एक गजाल. भिंडेलाक आतां कोकम बटर म्हणून चॉकलेट करपी कारखान्यांनी खूब मागणी आसा. कोको बटरा वाट्याचें कोकम बटर वापरतात. हेंवूय एक कारण भिंडेल कमी प्रमाणांत जेवणांत वापरपाचें. तें मेळपाक कठीण जाला. पूण ह्या वर्सा मात हांव खंयच्यान तरी भिंडेल हातासून नुस्तें तळून खातलेंच. ह्या चर्चासत्राच्या निमतान भिंडेलाची रुच घेतलेंच.



अंदूचे वर्स 'इंटरनॅशनल इयर ऑफ मिलेट्स' अशें संयुक्त राष्ट्रान जाहीर केलां. मिलेट्स म्हळ्यार भरड धान्य. कोंकणी मनशांक हीं भरडधान्यां नवीं न्हय. नाचणें तर अजुनूय आमच्या खाणां जेवणाचो महत्वाचो घटक. नाचण्याचें सत्व, तिजान, आंबील, भाकऱ्यो ह्यो आमी खातांतूच. पूण वरय, सावें, पाखड, कोदो ह्या धान्यांक आमी विसरल्यात. वरय तरी कोणूय उपासाक बी खातात जावंये. पाखड आनी कोदो ही नांवां भुरगेपणांत कानावयल्यान तरी गेल्ली. तरी तर तरी. तरी नांवाचेय एक भरडधान्य गोंयांत पिकता काय पिकतालें म्हणून हालीच म्हाका कळ्ळें. केप्यां, काणकोण शिमेलागच्या गांवांत मेळटालें खंय.

सावें मात हांवें भुरगेपणांत केन्ना आयकूंक नासलें. म्हज्या घोवाक मदीं मदीं भुरगेपणांत खाल्ल्या साव्याच्या लाडवांची याद येता. तेन्ना म्हजी मांय आशिल्ली. पूण सावेंच मेळना जाल्यार ती तरी लाडू कशें करतली आशिल्ली?

सावें म्हळ्यार वरयेभशेन एके तरेचे भरडधान्य. घोवाक लाडू करून खावयतलें म्हणून फाटली पंचवीस वर्सां हांव सावें सोदीत आशिल्ले. म्हापशेच्या सप्तकी बाजारांत. बांद्या बाजारांत सगळेकडेन सोदून जाल्ले. आतां हांवें साव्याचो सोद बंद केल्लो. पूण फाटल्या चार-पांच वर्सांसावन भरड धान्याची लागवड महाराष्ट्रांत बी व्हड प्रमाणांत जावंक लागल्या. फेसबुकार ताचे पोस्ट येतात. एक दीस थंय 'सावा' लिटल मिलेट अशें वाचपाक मेळ्ळें. हें मराठी 'सावा' म्हळ्यार शेर्त कोंकणी 'सावें' आसतलें अशें दिसलें. सोमतें मागयलें. बरें आसडून, फांफडून व्हडले नणंदेक लाडू करपाची पद्धत विचारली. तिणे सांगले, पयलीं सावें बरें भाजून घे. पीठ दळून गोड आनी सोय घालून लाडू वळ. वळले. एक विसरायेर गेल्ली पोरणी पुश्टीक खाण करपाची पद्धत पुर्नजिवित जाली. बरें दिसलें.

तशी म्हजी मांय दर वर्सा मकर संक्रातीचें गोडशें म्हणून वरयां तांदळाची खांटोळी करताली. म्हजी आजी पाखड तांदळाची दुदोळी करताली. आता हीं खाणां विसरायेर गेल्या वाटेर आसात. ते खातीर हीं खाणां करून हांव तांचें फोटो सोशल मिडियाचेर घालता. ते फोटो पळोवन निदान दोग जाणां तरी करून पळयताच. नाय जाल्यार तांचें नांव तरी

पळयणाऱ्यांच्या तोंडार घोळटा.

पाखड तांदळाचें पीठ करून आजी एक भाकरी करताली. फकत मीठ आनी सोय घालप. रुच्चीक भाकरी जाताली. शेनवतार थापून. आता हे शेनवत म्हळ्यार किते हांवूय प्रस्न कोणाकूय पडूंक शकता. तर चोळख्रो म्हळ्यार केळी पानाची कुडको. आता चोळख्रो हेंवूय उतर घोळणुकेत ना. फाटीं हांवें गऱ्याची भाजी म्हळ्यार घरयीचो फोटो काडून फेसबुकार घाल्लो आनी बरयिल्लें, घरय तयार जातकच सोगनी चोळख्यार घेवप आनी हुनहुनीत खावप. तें वाचून एक कमेंट आयलो, चोळखो म्हळ्यार किते काय म्हणून. म्हणून चोळख्रो म्हळ्यार किते तें सांगचें पडटा. आतां पळोवयां शेनवत म्हळ्यार किते तें? तर चोळख्रो घेवपाचो आनी मातसो हय न्हय हो उज्यार धरपाचो. मागीर तो मोव पडटा आनी कर्र करून पिंजना. ह्या हून केल्ल्या चोळख्यार म्हळ्यार शेनवताचेर पातळ भाकरी थापपाची आनी बिड्याच्या तव्याचेर तेल सारोवन शेनवत ताचेर उमथे करपाचे. बिड्या तवो नासलो जाल्यारूय कांयच हरकत ना. कैल म्हळ्यार मातयेचो तवो आसता. ताचेर मात्सो भिंडेलाचो गुळो भोंवडावप आनी थापप भाकरी. आता ह्यो पद्धती ना जाल्ल्यांतूच जमा जाल्यात. खंयूय गांवगिऱ्या वाठारांत करतात जायत.

तशेंच हूमण! वानार वांटप वांटून केल्लें हुमण आनी मिक्सराचेर वांटप वाटून केल्ल्या हुमणाची रुच वेगळी. बऱ्या गांवठी नुस्त्याचें आपरोस बी घालून केल्लें मखताल हुमण! आता हें मखताल विशेशण हुमणाक कित्याक लायतालीं कोण जाणा! म्हजी बापोल आजी म्हणटाली आज हुमण बरें मखताल जालां. हरशीं मखताल म्हळ्यार बरें, मोव, रस्मी, विलोदी, पातळ, मखमली अशें किते शें! मखताल म्हळ्यार एक स्पर्शाची संवेदना. धार्मिक कार्य करतना बी जो रस्मी कद न्हेसतात ताका उद्देशून बी चड करून मखताल उतर वापरतात. कांय बरो मखताल मुकटो, बरी इल्लीशी घडी जाता. आता ह्या मुकट्याक लागू जावपी विशेशण आजी हुमणाक कित्याक वापरताली काय?

आतां हें मखताल हुमण कशें आसता? तर बरेंऽ गंदगुळी वानार वाटिल्लें वांटप. म्हळ्यार सोय आनी उदक एकजीव जाल्लें आसूंक जाय. पानार व्हांवक जायना. हुमणाक पळयतनाच मखमली टेक्चर दिसपाक जाय. म्हळ्यार ती फिलिंग येवपाक जाय. आतां हें दाट मखताल हुमण इतिहासजमा जालां. कॉलेस्ट्रॉल बी वाडपाच्या भंयान कोणूच असलीं हुमणां करूंक वचनाना.

[illegible]

तन्नो कुंवलों शिजोवन, थाडावन मुशेल करताली.

आतां चर्चामत्राच्या निमतान हें सगळें परत याद करप जालें. चर्चामत्रांत वांटेकार जाल्लो दादलो आनी बायलो पारंपारीक कोंकणी खाणां जेवणाच्यो जाणकार आशिल्ल्यो.

मोंगाल्या शेकड्यांत बाटाबाटीच्या काळांत गोंय सोडून कर्नाटकांत, कोचीं वचून राबिनी केल्ल्या कोंकणी पिळग्यांनी आपली मूळ कोंकणी खाद्य संस्कृताय सांबाळून दवरल्या. [illegible] जाता. गोंय सोडून स्थलांतर केल्ले पिळगेक खाणां जेवणाच्यो बाबतींत खूब धकचपाटे काडचे पडल्या आसतले. हातांकडेन जें किंतें खावपाचें जिन्नस मेळटा ते घेवन शीत रोस रांदून घरच्यांच्या पानार वाडचो पडला आसतलो. पोरसांतली भाजी, पानां, देंठ, हरवें फळ, पिकें फळ, साली, बियो सगळ्यांचो उपेग गोंयचे परस चड प्रमाणांत तांणी खाणां जेवणांत केला आसतलो. तेखातीर चर्चामत्रांत कितल्याश्याच तरांचे सार वा रोस जे आता विसरायेचेर गेल्यात वा वचपाच्या मार्गार आसात ताचेर चड प्रमाणांत चर्चा जाली.

आमी आंवाळे दोणांत घालतात. मागीर वर्सूयभर ते खावपाक मेळटात. लोणचें करपाक मेळटा. पूण फकत ह्या दोणांतल्या आंवाळ्यांचें सार आनी शीत घेवन फाटल्यो कांय पिळग्यो जेविल्ल्यो आसात. घडये पावसा दिसांनीय आसत. उदकाक सुकी मिरसांग, करबील हिंग, सांसवा, फोण्णां दिवन केल्ले हे तरातरांचे सार. बिमलाचो आंवाळ्याचो, कुळदाचो नाल्ल मेळ्ळ्यार मूटभर नाल्लाचो रोस पिळून घाला तातूंत, नाजाल्यार केलो असोच. दाळिंबाची आंकरी आनी साली घालून केल्लो सार. साल तूपांत भाजून घेवपाची. आमटाण, कोथंबीर, सुकी मिरसांग घालून वाटपाची. दाट जाल्यार खंय गोज्जू पातळ करून लसूण फोण्णां घाल्यार खंय सार.



तेन्ना रासवळ घराबे. जोड कमी. पोटभर शीत (पान ३२ चेर)



# गाडयेची गियरां सोंपतात तेन्ना

विनोदी

**महेश पारकार**

गाडयेक गियरां चार. कांय आर्विल्ल्या गाडयांक सवूय गियरां आसतात. तर कांय गाडयो गियरां बगरय येतात.

ह्या आर्विल्ल्या तेंपार मनशालें आनीक गाडयांचे नातें खूब घट्ट जायत आसा. गाडयेबगर खंयच वचप जमना. गाडयांक लागून चलत वचप जायना. घोव-बायलेचें, भावा-भावाचें, भाव-भयणीचें, तशेंच भुरगीं, आवय-बापायचें मजगतचें नातें आमी सर्वश्रेठ मानताले. पूण गाडयो, वाहनां आमचे जण एकल्याचे जीणेंत आयल्यो. तशी एक एक नातीं हीं हळू हळू सांडपाक लागली. तांचो वालोर उणो जायत गेलो. तांगेली सुवात हालींसाराक गाडयो-वाहनांनी घेतल्या.

आपले आनीक गाडयेचे नातें एका वटेन. तशेंच हेर सगलीं नातीं दुसरे अर्दान तागडेंत दवरली जाल्यार? गाडयेच्या नात्याचें दालें जड जातलें अशी परिस्थिती भोंवतणी दिसता. भोंवतणीच कित्याक? आपल्यापासून ती कोमेस जाल्या अशें म्हणूं येता. ल्हान पिरायेचेर भुरग्यांक आता खेळण्यांल्या गाडयांपरस घरांतल्या खरे गाडयेचेर अदीक जीव! ल्हान पिरायेचेर भुरग्यांक आमी बाळकडू सारकीं जिरवणेची वखदां दितात. त्या तसले वखदां परस हालीं भुरग्यांक गाडयेंत बसूंया. थंयच बसून खावंया-पिवंया असल्या गाडयेच्या मोगाचें बाळकडू जाय पडपाक लागलां.

आयची आमगेली जीण पुरायपणान गाडयांनी व्यापल्या. ज्या माचेर आतां हांव अपघातांचेर, रस्त्याचेर जावपी ट्रॅफीक जामाचेर जांव मनशाले फास्ट जीणेचेर बी कितेंय बरयतलों अशें तुमी अदमास काडला आसूं येता. पूण ना. गाडयांचेर आदारिल्ली ही एक खरी विनोदी गजाल तुमकां सांगतां - कांय वर्सा आदीं हांव आनी म्हजो इश्ट मोहन गाडयेन फोंण्या वताले. गाडी म्हजी. मोहन तेन्ना गाडी नवोच शिकतालो. म्हणपाक लागलो, "हांव गाडी व्हरतां." हांवें बरें म्हळें. मात्शें धाडस केल्यार बरें. नवे चलयतल्याक आत्मविश्वास येवपाक. आमी दोगूय वचपाक लागले. बोरी सर्कल - साईबाबा देवूळ - फुडें टॉप कोला हो रस्तो सदांच ट्रॅफीकेन भरिल्लो. मुयेचे गतीन गेल्या बगर उपाय नासता. मोहनाक हांव सुचवण्यो दितालो. कित्याक तर मुखार आतां बायथाखोलचो व्हडलो चडाव येतलो. मुखार गाडयांची व्हडली लायन. मदींच कट मारीत येतल्यो-वतल्यो स्कुटरी. शिवाय फोंडेच्यान येतल्याय गाड्यांची लायन.

"ॲं कांय भिवनाका रे तूं! इतले मेरेन हाडल्या मरे!" हो आतां वेल्यान म्हाका समजायता,

"सारको मुखावेल्या गाडये फाटल्यानूच राव! सायडबी मारुं नाका" - हांवे भित भित म्हळें.

"गाडयेचे स्टेरींग म्हजेकडेन आसा. तूं कसलोच हुस्को करूं नाका" - मोहन.

"आरे चडाव आसा. त्या भायर चडावाचेर गाडयांची लायन. सेंकड - फर्स्ट गियर करीत वच्चें पडटलें.

मुखावेल्या रस्तोभर गाडयांच्या हुस्क्यान हांव ताका सांगत आसलों. चडावाचेर चलपी गाडी ताब्यांत दवरप व्हडले व्हडाल्या ड्रायव्हरांक लेगीत कुस्तार जाता. हें चिंतून "हांव घेव रे स्टेअरींग हातांत?" हांवे मोहनाक हुस्क्यान म्हळें.

"तूं कांय भियेंव नाका. शिरोडेच्यान हांगा मेरेन हाडल्या मरे हांवे - गाडी सारकी? आतां हो चडाव सोंपलो कीं पावले फोंण्यां!" तागेल्या उलोवण्याची म्हाका तोखणाय दिसली. तरीपूण गियरांकडेन तागेलो खेळ पळोवन म्हाका हुस्को जावपाक लागलो.

"थर्डांतल्यान सेकंडांत आयलो. आतां कांय वेळ सावन फर्स्टांतच आसा. गाडी तापची ना मरे ती? इतलो वगत फर्स्टांत दवरल्यार?"

मोहनाच्या तोंडावेलीं आबूजपणा म्हाका आतां दिसपाक लागिल्लीं.

"मुखार हीऽऽ गाडयांची लायन. येदोळच्यान गाडी फर्स्टांतच आसा मरे! गियरां सोंपली आतां. आता कितें करपाचें?" मोहनालो रडकूरोसो आवाज म्हाका आयकूपाक आयलो.

"तू घट्ट राव पळोवंया. गियरां सोपूंक नां. तू फर्स्ट -सेकंड, सेकंड-फर्स्ट करीत राव!"

मुखावेल्यो गाड्यो मुयेच्या गतीन चडाव चडटाल्यो. तितलो 'गियरां सोंपली, गियरां सोंपली' ही मोहनाली पिरंगण वाडली. तागेलो भरवंसो घट्ट दवरूंक लागपी उतरांचो आदार. होच उपाय म्हजे लागीं. तागेले तें पालूपद आयकून हासूं येतालें खरें. पूण गाडयांचे जात्रेंतल्यान भायर कशे सरतले? हो चड हुस्को. शेवटाक कशे भशेन तरी गाड्यांचे लायनींतल्यान सुटका जाली. पळयल्यार मोहन सामको घामाघूम जाला. चडाव सोंपले उपरांत निलगिरीच्या रानांत गाडी मात्शी सवकासायेन सायडीक व्हेली. आनीक मोहनाक उदक पिवपाक दिलें.

"कार ड्रायव्हींग कोर्सांन म्हाका हो असो केन्नाच प्रसंग आयलो नासलो." - मोहन.

"म्हळ्यार गियरां सोंपपाचो मरे?" हांवे तागेली धजा उडोवपाची संद सोडली ना.

"फकाणां करूं नाका आं म्हजी" -मोहन.

गाडी निकतीच शिकिल्ल्या मोहनाक, दिस्त परिक्षेक बशिल्ल्या भशेन पास करपाचो अणभव त्या दिसा बायथाखोलच्या चडावान दिलो. तो अणभव तोवूय विसरचोना. आनी म्हाकाय तागेल्या "गियरां सोंपली" ह्या पालूपदाक लागून. विसरपाक जमचो ना. आयजूय तो केन्नाय गाडी चलयतना म्हाका दिसता तेन्ना ताका हांव विचारता, "गियरां उरल्यांत मरे? सोंपूक ना मरे?" अशेंच एक वर्सा आमी दोगूय देशाभायर वचपाक भायर सरिल्ले. मुंबय इंटरनॅशनल विमानतळाचेर वतना अशीच ही खबर घडिल्ली. कोणे तरी आमकां सांगिल्ले कीं तिसऱ्या मजल्यार वचपाचें. थंय भितर सरून मुखावेल्या प्रवासाची

''चेक-इन'' बी करपाची. सकयल कितलीशींच सर्कलां, आडे, आडार्मे बी बालांडून आमचो टॅक्सीवालो पयले मजलो चडपाक लागलो. मुंबयचे टॅक्सीवाले ते! गरजेभार एक उतर चड उलयनात. पूण एक फावट उलोवपाक लागल्यार मात श्वास घेवपाक लेगीत थांबनासतना उलयत रावतात. मोहन फुडले सिटार. आनी हांव सामानासयत फाटल्या सिटार. तो त्या टॅक्सी ड्रायव्हराक उलोवपाक, खबरी मारपाक हर तरेन यत्न करीत आसलो. पूण तो ड्रायव्हर कसोच बद नासलो. दोन मजले गाडी चडली. आनीक ड्रायव्हर रावलो.

''क्यों रूक गये?''

''तुम्हारा स्टेशन आ गया.'' - तो ड्रायव्हर.

''पर हमे तो बोला है की तिसरे माले पर हमारा स्टेशन है'' -मोहन उलयलो.

''वहां तक मेरी गाडी नही जाती?''- ड्रायव्हर

''क्यों? गियर खत्म हुये क्या?''... मोहन सहज म्हूण गोंयांत उलयता तसो फकाणाचेर संवयेन उलयलो. पूण तें आयकना फुडें तो टॅक्सी ड्रायव्हर जो हांसपाक लागलो! तितलो म्हाका दिसता तो पुराय जिणेंत हांसलो नासूंये.

''तिसरे माले पर नही जाते क्या?'' हांवे मदीच तोंड घालें.

''साहब यही पर तो अंतिम माला है। तिसरा माला याने एकदम स्वर्ग को जाने का माला. वहां जाना है तो चाबी तुम्हारे इस साथी को देकर मैं उतरता हूं।'' अशें म्हणत तो आदले परस हड्डें फुटसर हांसपाक लागलो.

आमचे दोगांच्याक तकलेंत उजवाड पडलो. भोंवतणी पळयलें. त्या मजल्यावयर आनीक कांय एक नासलें. दुसऱ्या मजल्याकूच उतरून ''चेक-इनां''पासत भितर वचपाचें आसलें. आमी आमगेली लगेज घेवन भायर आयले. टॅक्सीचे पयशे फारीक केले. पूण तो ड्रायव्हर आपूणच हांसत आसलो. शेवटाक ताणे गाडी घुंवडायली. पूण आम्कां दोगांकय पळयत वचमेरेन हांसत आसलो.

गाडयेची गियरां सोपूं येतात. सोंपतात. ही गजाल आतां मोहनाचे नीजाचे जिणकडेन जोडल्या. इतली कीं तो स्कुटरीचेर वा गाडयेंत खंयूय दिसल्यार ''गियरां सोपूं ना मरे? उरल्यांत मरे?'' अशें म्हणत तागेली लोक फकाणां करतात. मुखेल म्हळ्यार मोहनूय तें व्हडलेशें मनार घेना. मात्सो हांसता मात!

संपर्क: 94207 68518 ***

---

*(पान ३० वयल्यान)*

आनी ताचेर कसलो ना कसलो तरी सार. हातूंत जेवल्यात आसतले कितलीशींच वर्सा. मागीर परिस्थिती सुदारली तरी तीच रुच उरल्या आसतली जिबेर. मागीर केन्ना केन्नाय जिबेच्या रुचीखातीर रांदल्या आसतलीं हीं जेवणां. तीच रुच फुडल्या पिळगेमेरेन पावल्या आसतली.

अशीच एक विशयाचेर वचपी भाजी म्हळ्यार केळ्यांच्या सालींची उपकारी. थंय तन्या केळ्यांची म्हानां करपाची पद्धत आसा. तेन्ना केळ्यांच्यो साली तासच्यो पडटात. तर ह्या सालींची भाजी करतात. ह्यो साली बारीक करून फोण्णां घालून सोय, गोड घालून करतात सुकी भाजी. पणसाच्या गऱ्या भायर अशिल्ली चार घालून करतात सांसव. केळीच्या तन्या गब्याची भाजी. गोंयांतूय हांवें गब्याचे मसाल्याचें तोंडाक करतात म्हणून आयकल्लें. म्हजी मांय माडाच्या कवाळ्याची शाकोतेभशेन तोंडाक करताली. वादळ जावन माड बी पडटात तेन्ना हो कवाळो मेळटा. कवाळो म्हळ्यार माडाच्या तुर्यांत आशिल्लो किल्लाभशेन दिसपी आंकूर. निमाणे कितें तर झाडांपेडांचो खावपा सारको भाग आसता तो खाणां जेवणांत वापरतालीं. ते खातीर कोंकणी जेवणांत प्रादेशिकता उठून दिसता.

पोरसांत जें पिकता, आशीकुशीक जें मेळटा तें तें वापरून निभावन व्हेल्लो दनपारचो वेळ. आज आमी लॉकल, नॅचरल, सिझनल खावपाक जाय म्हणटात. आमच्या जाणट्यांची ती एक जगपाचीच पद्धत आशिल्ली म्हणपाक जाता. आमी ल्हवू ल्हवू सैमापासून पयस वचत चल्ल्यात. मागीर दुयेंसां जातकीच दोतोर भाजयो, गांवठी तांदूळ, भरड धान्यां खांवपाक सांगता. मागीर परतींय आमी जे सोडिल्ले थंयच परतीं येतात.

चर्चासत्रांतलें उलोवप आयकून एका गजालीचें म्हाका अप्रूप दिसलें. चार शेकड्यां आदीं स्थलांतरां जावन लेगीत हांडया रांदनीत भाजिल्ली पणसाचीं भिकणां, खळांतली तोरां, आंबाडे, आंवाळे, गरे... ह्यो सगळ्यो पद्धती कर्नाटकांत, केरळांत कोंकणी समाजांत हालीं हालीं मेरेन आशिल्ल्यो. गांवगिऱ्या वाठारांत अजूनूय आसात. हें सगळें अणभवलेली पिळगी आतां पन्नाशीकडेन पावल्या. नवी पिळगी हांचे पासून पयस वचत आसा. तांका ह्या खाणां जेवणाची वळख करून दिवप गरजेचे, असो सूर आयलो. आतां भुरग्यांच्यो रुची बदलल्यात. ते खातीर मुळावो घटक तोच दवरून मात्शें नवें नांव दिवन पारंपरीक पदार्थ बरो सजोवन भुरग्यांमुखार दवरप अशेंय मत व्यक्त जालें.

आमची कंदमूळां सामकी पुश्टीक. कणगां, काटेकणगां, झाडेकणगां, काराणें, सुरण, चिरको, चिनें... हीं पयलीं च्याचे वांगडा उकडून खातालीं. आनी आनी दुसरो नाश्तो नाका. आता भुरग्यांक हीच खाणां दुसऱ्या रुपांत दिवंची पडटली. भाजिल्ल्या कणगांची भेळ, चाट, झाडे कणगां, आनी हेर कणगांचे कटलेटस् बी करून.

हालींच हांवें खंय तरी वाचिल्ले दनपरां जेवणा उपरांत गोड वा कातले कुडको तोंडांत उडयल्यार ॲसिडीटी जायना म्हणून. हांगाय कुमठाच्या वनिता नायकान सांगले तागेरूय पयलीं कातलेचे कुडके वा केळीच्या गब्याचे तन्ने कुडके गॉडा मेलांतं काडून विन्नांत भरून दवरतालीं म्हण. जेवणां उपरांत तोंडांत उडोवंक म्हणून. मुखशुद्धी म्हण कोंकणी जेवण दिवपी हॉटिलांत बडीशेप बी दितात ताच्या वांगडा दिवपाक जाता.

एकूण परिसंवाद बरोच रंगलो. परिसंवादाच्या निमतान विसरायेर गेल्लीं खाणां जेवणां आनी पद्धती हांचेर उजवाड पडलो. हो उजवाडाचो झोत तसोच उरल्यार पुरो.

संपर्क: 9850530152

***



नवी जाग गोंयकारांक



# जैतवंत जांव!



# स्मिता खांडेपारकार आनी घरचीं

